# ाग

२ ◇ आंक ६ ◇ जानेवारी १९९८

: रवीन्द्र केळेकार

संपादपी : माधवी सरदेसाय

ावपी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.

ळणी : तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव.

: प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.

त्र : मिलन


## ह्या आंकांत




| | | |
|---|---|---|
| ी पटी | : | रु. ७५/- |
| ार्थ्यांखातीर | : | रु. ६०/- |
| वर्सांची पटी | : | रु. २००/- |

ा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत
ये अदीक जोडचे)

ो नामो:

ा म्हयनाळें
ो, सालदेल अपार्टमेन्ट्स
साउंदादिश, पाजीफोंड,
– गोंय ४०३ ६०१.

आंकाचें मोल: रु. ७/-


# नदर संपादप्याची

## खंयचो बावटो देंवयलो आमी?

[प्रजासत्ताक दिसाचें नमन]

केन्ना केन्ना म्हाका विचित्र सपनां पडटात.

रातीं सपनांत हांवें पळेलें–

हांव दिल्लीक-सो पावलां. शंकर भांडारी म्हजे बरोबर आयला. ताका हांव दिल्ली दाखयतां. कुतुब मिनार, हुमायूंची कबर, फिरोजशाह कोटला, खूनी दरवाजा, जामा मशीद आनी लाल किल्लो दाखोवन हांव ताका चांदनी चौकांत-सो घेवन वतां. 'एका काळार मध्य उदेंत आशियांतलो एक व्हड बाजार... हांगा मेळना अशें कितेंच ना, अशी हाची नामना आशिल्ली' अशें ताका म्हणटां आनी भुरग्यां खातीर खटर-खुटूर कितें घेवन रिक्षा सोदीत लाल किल्ल्याकडेन-सो येतां. थंय पळेत जाल्यार लाखांनी लोक जमला आनी लाल किल्ल्यार उबो रावन जवाहरलाल इंग्रजांचो युनियन जॅक बावटो देंवयता. उच्चांबळीत जावन हांव शंकराक म्हणटां, 'शंकर, आमकां स्वराज्य मेळ्ळें-शें दिसता... हो पळे, जवाहरलाल युनियन जॅक देंवयता.' शंकर लोकांक बखान्यो मारीत मुखार वता. हांवूय ताचे फाटल्यान वतां. दोगूय आमी जवाहरलाला मुखार वचून उबे रावतात. अवचीत् म्हजी नदर अर्दार पाविल्ल्या बावट्याचेर पडटा... तो युनियन जॅक न्हय, तर चरखो आशिल्लो आमचो तिरंगो आसता. हांव शंकराक म्हणटां, 'शंकर, स्वराज्याचो बावटो देंवयता मरे तो... युनियन जॅक न्हय.' रोखडेच आमी दोगूय 'पंडितजी, आप गलत काम कर रहे हैं... आप गलत काम कर रहे हैं' अशें मोठ्या मोठ्यान आड्डूंक लागतात. म्हणटासर पोलीस येतात आनी आमकां दोगांकूय धरून फरफरीत ओडून व्हरतात...

आनी काचाबूल जावन हांव जागो जातां. 'आंवय.. सपन हें' अशें म्हणटां. वणटी वयले घडयाळींत सकाळचीं तीन जाल्लीं आसतात. मागीर... दोळो लागना.

* * *

अशोक चक्र आशिल्लो तिरंगो स्वतंत्र हिन्दुस्तानाचो बावटो म्हूण घटना समितीन मानून घेतला त्यावेळार जवाहरलालान एक सुंदर उलोवप केल्लें. हांव त्यावेळार बावीस वर्सांचे पिरायेचो आशिल्लों. जवाहरलालाचें बावट्या वयलें उलोवप वाचून म्हज्या आंगार कांटो फुलून आयिल्लो. पुणून तेचबरोबर म्हाका अशेंय दिशिल्लें – आमच्या बावट्यावयलो चरखो काडून उडयलो हें बरें जालें ना. अशोक चक्र आमचेंच. बुद्धाचें, संवसाराक विश्वशान्तिचो संदेश दिवपी, बावट्यार सोबताय बरें. पुणून जो बावटो हातांत घेवन स्वराज्या खातीर लाखांनी लोक झुजिल्ले, बंदखणींनी गेल्ले, गुळयो हड्डयार झेलून हुतात्मे जाल्ले तो बावटो चरखो आशिल्लो तिरंगो आशिल्लो. निखटो तिरंगो नाशिल्लो. तिरंग्या वयलो चरखो काडून उडयल्ल्यान जांणी स्वराज्य मेळचें म्हूण त्याग केल्लो, कश्ट सोशिल्ले, बलिदान दिल्लें तांकां इतिहासांतल्यान पुसून उडयल्ले वरी जाता... हें बरें जालें ना. ज्या बावट्यान स्वराज्य हाडलें तोच बावटो स्वराज्याचो बावटो आसूंक जाय आशिल्लो.

पुणून त्या वेळार म्हजे विचार स्पश्ट नाशिल्ले. आयज म्हाका दिसता, आमच्या फुडाऱ्यांनी तिरंग्या वयलो चरखो येवजून काडून उडयल्लो. कित्याक, तांकां चरख्याचे वाटेन मुखार वचपाचेंच नाशिल्लें. चरखो एका क्रांतिकारी विचाराचें प्रतीक आशिल्लो. हो क्रांतिकारी विचारूच आमकां पेलूंक नाशिल्लो. आमकां कसलीच क्रान्ती घडोवन हाडपाची नाशिल्ली,

कसलोच बदल घडोवन हाडपाचो नाशिल्लो. आमकां फकत इंग्रज गेल्ले जाय आशिल्ले आनी तांचे सुवातेर बसून तांच्या हातांत आशिल्लें सगळें आमच्या हातांत घेवन तांचेच वरी आमकां चलपाचें आशिल्लें. म्हळ्यार – स्वराज्या खातीर आमी झुजूंक नाशिल्ले. सत्तांतरा खातीर झुजिल्ले. सत्तांतर जाल्लें. सत्तांतरीत हिन्दुस्तानांत स्वराज्या खातीर ज्या बावट्याखाला लोक झुजिल्ले तो बावटो उपकारा पडनाशिल्लो. आमी अशोक चक्र आशिल्लो बावटो नवे राजवटी खातीर वेंचून काडिल्लो. पळेल्यार तोच, पोरणो; खरेपणानशीं नवो. आमकां भ्रमांत दवरपी.

* * *

अशोक चक्रांत चरखो आसपावला, हांव जाणां. चरख्याचो विश्वशान्तिचो संदेशूच अशोक चक्र दिता. इतलेंच न्हय, तर विश्वशान्तिचो संदेश नवो न्हय, अडेच हजार वर्सां सावन हो देश तो संवसाराक दीत आयला हें अशोक चक्र सांगता म्हणपाचेंय जाणा. ह्या देशान केन्नाच दुसऱ्या खंयच्याच देशाचेर आगळिको करूंक नात, खंयचेच देश जिखून तांचेर आपणालो शेक गाजोवंक ना, हेंच अशोक चक्र सांगीत आयलां. अशोक चक्र बुद्धाच्या धर्मचक्राचें प्रतीक. बुद्ध सांगतालो, जिवितांत दुख्ख भरलां. इतलें भरलां की, धरुंया, ह्या दुख्खाक लागून आमच्या दोळ्यांतल्यान व्हांविल्लीं दुकां आमकां एकठांय करूंक आयिल्लीं जाल्यार पांचूय म्हालसागर भरून येतले आशिल्ले. हें दुख्ख देवान धाडूंक ना. नशिबांत आशिल्लें म्हुण्णूय तें आमच्या वांट्याक येवंक ना. आमीच तें आमच्या वसवशेपणान ओडून हाडलां. हें दुख्ख पयस करूं येता. ज्या कारणाक लागून तें आयलां तें वसवशेपण हुमटावन काडचें. म्हणटकूच तें दुख्ख ना जातलें. कशें हुमटावन काडचें? जिविताकडेन समा नदरेन पळोवन, समा निर्णय घेवंन, समा उतर उलोवन, समा करण्यो करून, समा जोड जोडून, समा यत्न करून, मनांत समा जागरुकपण राखून आनी मैत्री, करुणा, मुदिता, उपेक्षा ह्यो चार भावना मनांत केळोवन. बुद्धाचो हो संदेश जो अशोक चक्रान उकतायला, तोच आयच्या काळार चरखो मुखार घेवन गेला. अशोक चक्रा उपरांत अडेज हजार वर्सांनी चरखो आयला. तो बुद्धाचोच संदेश वेव्हारांत कसो हाडचो हें सांगीत रावला.

तो म्हणटा – परके सत्येंतल्यान देश मेकळो जालो म्हूण स्वराज्य आयलां अशें जायना. चडांत चड 'देश स्वतंत्र जाला' इतलेंच आमच्यांनी म्हणूं येता. स्वतंत्र देश संवसारांत जायते आसात. ते सगळे सुखी आसात अशें म्हणूं येना. आमचो देश सुखी जावचो अशें आमकां दिसता आसत जाल्यार स्वतंत्रतायेंतल्यान स्वराज्याचे दिकेन आमी आमचीं पावलां उखलूंक जाय. स्वराज्य म्हळ्यार 'स्व'चेर अंकूश आशिल्लें स्वदेशी राज्य. स्वदेशी राजनीत, स्वदेशी अर्थनीत, स्वदेशी संस्कृताय चलोवपी राज्य. समाजांतलो जो सगळ्यांत चड फाटीं पडला, सगळ्यांत चड चिड्डला, सगळ्यांत चड नागवला ताच्यांत 'म्हज्यान आतां म्हाका जाय ते तरेचें रूप ह्या देशाक दिवं येता' हे तरेचो आत्मविस्वास जागोवपी राज्य. हे तरेचें स्वराज्य हाडपा खातीर कांय पावलां आमी उखलूंक जाय.

पयलें पावल – राजकी सत्या खंयचेच कडेन केन्द्रीत जावची ना हाची जतनाय घेवंक जाय. सरकाराच्या हातांत तर ती निखालूस केन्द्रीत जावंक दिवंक जायना. सरकार उण्यांत उणें आसूंक जाय. ताच्या हातांत फकत वेवस्ता उरची. शासन लोकांनी आपणा हातांत घेवंक जाय. भायल्या वा वयल्या खंयच्याच चेपणा बगर फकत एकामेकांचेर पातयेवन एकामेकांच्या आधारान लोकांनी आपणाले सगळे वेव्हार चलोवंक जाय. रानवटी समाजांक – प्रिमिटीव्ह आनी ट्रायबल सोसायटींक – आपणेच घडयल्ल्या भितरल्या नेमांक धरून आपणाले सगळे वेव्हार चलोवंक येतात जाल्यार, आमी जे आमकां सभ्य आनी संस्कारी मानतात तांकां वयल्या वा भायल्या चेपणा बगर आपणाले वेव्हार चलोवंक येवंकूच जाय. आपणें मानून घेतिल्ल्या भितरल्या नेमांक धरून चलता तोच समाज खरेल्या अर्थान स्वतंत्र आ[...] सभ्य आसता, संस्कारी समाज आसता.

हे तरेचो स्वतंत्र सभ्य आनी संस्कारी समाज बांदून काडप हीच अ[...] मोख आसूंक जाय म्हणपाचें स्पश्ट जालें जाल्यार रोखडेंच दुसरें [...] पावल उखलूंक जाय तेंवूय स्पश्ट जातलें अशें चरखो सांगता. सग[...] पयलीं आमची नदर वेगळ्या वेगळ्या धर्मांक धरून चलतल्या लोकां[...] वतली. हिन्दू वेगळे, मुसलमान वेगळे, खिरस्ती वेगळे, शिख वेगळे [...] वेगळे वेगळे लोक समाजांत आसचेच कित्याक हो प्रस्न आमचे [...] उबो रावतलो. बरें, हे सगळे लोक वेगळ्या वेगळ्या धर्मांक पाळो दि[...] ते जाले. ते भायर ते एकामेकां पसून वेगळेय रावतात म्हणपाचें न[...] भरतलें. एकामेकांचो दुस्वास करतात म्हणपाचें दिसून येतलें. इतलेंच [...] तर ते एकामेकांकडेन झगडतूय आयल्यात म्हणपाचें कळटलें. एकामेकां[...] कित्याक झगडचें तांणी? सगळेच धर्म खरे, सगळेच बरे. जे बुन्या[...] ते उबे जातात ती बुन्याद गूढ अणभवांची – मिस्टीक एक्सिपरियंस [...] हे अणभव सगळ्यांचे सारके. लोकांक जी नीत ते शिकयतात तिवूय सगळ[...] सारकी. सत्याक पाळो दिवन चलात, एकामेकांचेर मोग करात, को[...] दुखोवं नाकात, एकामेकांक आधार दियात हीच नीत ते सगळ्यांक शिक[...] आयल्यात. मागीर, झगडटात कित्याक ते? एकूच जाप मेळटली [...] एकामेकांक ते सारके वळखनात म्हूण. मागीर, हे वेगळेचार ना कशे [...] हाचेर उपायूय आमकां येवजतले. आमी म्हणपाक लागतले, हे सगळे [...] मेरेन एकामेकांकडेन छत्तिसांचो आंकडो करून जियेत आयल्यात. [...] आतां त्रेसष्ठांच्या आंकड्यांत बसोवंक जाय. हांकां एकामेकां शेजरा ह[...] दवरूंक जाय आनी तांकां सांगूंक जाय, एकामेकांक सारके वळख[...] एकामेकांक सारके समजून घेयात. म्हणटकूच एक दीस 'आरे! हे अ[...] सारकेच मरे' अशें तांकां एकामेकांविशीं दिसपाक लागतलें. आपापल्या [...] धर्मपरंपरेंत रावनूय ते मागीर एकामेकांक भाव-भाव मानपाक लाग[...] एकामेकांकडल्यान घेवपासारकें घेतले, एकामेकांक दिवपा सारकें दि[...] आनी देशांत सगळेकडेन तांचो एक सर्वधर्मी घराबो सुरू जातलो. अ[...] आशिल्ले सगळे धर्म एकामेकांच्या सांगातान पूर्ण जातले. सगळ्या धर्मपरं[...] एक नवें संस्करण सुरू जातलें. कोणाक आपलो धर्म सोडून दुसऱ्या ध[...] वचपाची गरज भासची ना. कोण आपणालो धर्म घे अशें दुसऱ्याक सां[...] ना.

हीच धर्मक्रान्ती मागीर दुसरे एके क्रान्तीकडेन आमकां घेवन वतली[...]

आमी पळेतात, सगळ्या धर्म समाजांत ऊंच उणाक अशे मनशां म[...] मजगतीं वेगळेचार चलत आयल्यात. सामान्यतायेन हांकां [...] जाती-कातिंचे वेगळेचार मानतात. खरेपणानशीं हे ऊंच उणाक वेगळे [...] जल्मान मेळिल्ले. जाती-कातिंनी निर्माण करूंक नात. पोटा खातीर [...] जीं कामां करतात तांणी केल्यांत. सगल्यांनी कांय कामां ऊंच पांवड्या[...] मानल्यांत आनी कांय कामांक उणाक पांवड्याचीं लेखल्यांत. जीं [...] श्रम करून करचीं पडटात तीं उणाक पांवड्याचीं आनी जीं फकत बुद्[...] करपाचीं तीं ऊंच पांवड्याचीं अशें सगळ्यांनी मानलां. खरेपणानशीं [...] कामां मजगतीं असले वेगळेचार आसनात. शेतांत अन्न पिकोवपाचें [...] लुगटां विणपाचें काम, घरां बांदपाचें काम, शेतकाराचें, विणकाराचें, गंवड्या[...] कुंभाराचें, चामाराचें खंयचेंय काम दोतोरकी, प्रोफसरकी, इंजनेर[...] आदोगासी हांचेपरस उण्या पांवड्याचें न्हय. सगळीं कामां समाजाच्या उप[...] म्हूण सगळीं कामां एका पांवड्याचीं. शेतकामत्यांनी शेतां रोवपाचें [...] दिलें जाल्यार कोण जेवंक खावंक पावचो ना. विणकारांनी लुगटां विण[...] गंवड्यांनी घरां बांदपाचें, मेस्तांनी फर्निचर करपाचें, कुंभारांनी मडकीं क[...] काम सोडून दिलें आनी सगळे दोतोर, प्रोफसर, इंजनेर, आदोगा[...] जावपाक लागले जाल्यार समाज सारको चलचो ना. सगळीं कामां [...]

लेखून कामां खातीर जी जोड जाता तिवूय सगळ्यांक सारकीच
– समाज अशे तरेन बांदून काडूंक जाय की सगळ्यांनी
लेगीत – श्रमाचीं कामां करून जियेवंक जाय आनी दोतोरकी,
बी कामां पयशे घेनासतना सेवा म्हूण तांणी करूंक जाय;
, श्रमाचेर आधारिल्लो एक समाज घडोवपाचीं आमकां सपनां
गतलीं.

र्वीं म्हूण जीं कामां समाजान निर्माण केल्यांत तिंवूय आपणें
म्हणपाचें बाकिच्यांक दिसूंक जाय. म्हत्वाचें म्हळ्यार जण
आपणालो भंगी जावंक जाय आनी समाजाक लागिल्लें
टाचें खत तकलेंतलें पुसून उडोवंक जाय.

दादल्यां इतलेच हक मेळूंक जाय म्हूण वावरप हेंवूय हेच
म्हत्वाचें आंग. खंयच्याच आंगान बायलां दादल्यां परस उण्या
न्हय हें कळटकच दादल्यांक जे अधिकार मेळ्ळ्यात तितलेय
ळूंक जाय म्हूण वावुरपाची आमकां इत्सा जातली.

जीक क्रान्ती आमकां अर्थतंत्राच्या मळारूय नवे तरेन येवजुपाक
तिसरें पावल खंयचे दिकेन उखलचें तें सांगतली. आमी, मागीर,
गतले – ह्या देशाच्या अर्थतंत्राच्या प्रस्नाचेर येवजिता आसतना
र फकत शारां आनी शारां भोंवतणचो वाटारूच दवरून उपकारना,
जाय. देशांत पांच लाख गांव आसात आनी देशाचे लोकवसतिचे
गांवांनीच रावतात. एकूच वांटो शारां आनी शारां भोंवतणच्या
वता. गांवांची उवेखणी करून उबें केल्लें अर्थतंत्र देश केन्नाच
पावचें ना. गांवांतल्या कोणाचेरूय पोटा खातीर गांव सोडून
पाचो प्रसंग येवंक फावना. ताका गांवांतल्या गांवांतूच काम
. नांवलोकीक जोडपा खातीर ताणें शारांत वचचें. पोट भरपा
य. पोट ताचें गांवांतूच भरूंक जाय. हें बुन्यादी तत्व आमकां
स्पस्ट जावंक जाय म्हणटकूच –

खंयचे उद्देग-धंदे चलचे, मेल्ल्या उद्देगां भितरले खंयचे जिवे
नाचो आनी तांचो मेळ कसो जुळोवन हाडचो, उद्देग फॅक्टऱ्यांनीच
सले चलोवचे काय घराघरांनी – घरा-आंगणांत – चलतात
वचे, खंयचे चलूंक दिवचे न्हय, हे सगळे प्रस्न आमचे मुखार
रावतले आनी ते सोडोवपाचो विचार करतां करतां नवेच तरेचें
त्र आमच्या दोळ्यांमुखार स्पस्ट आकार घेवंक लागतलें.

तंत्र घरउद्देगाचें आनी गांवगिऱ्या उद्देगाचें आसतलें. गरीब गरीब
ना, गिरेस्त गिरेस्त जावंक जायना, मनशाक मनशाचो गुलाम
क जायना, मनशाक यंत्रांचोय गुलाम जावंक दिवंक जायना.
णूच बेकार उरूंक जायना, कोणेंच कोणाच्या माथ्यार बसूंक
कोणेंच कोणाच्या पांयांखाला चिड्डून रावंक जायना; विकासाच्या
कि जें विनाशाचें काम देशांत सुरू जालां तें ताळ-तंत्र नाशिल्लेवरी
क जायना. विकास कोणाचो, कोणा खातीर, कोणा खुस्तार
या गजालिंचो आमी खोलायेन विचार करपाक लागतले. मागीर
नी गांवांचे संबंद कशे आसचे ते आपशींच दोळ्यां मुखार स्पस्ट

र्वीं हीं तीन पावलां कशीं घालचीं हें चरखो आमकां सांगतालो.
मकां एक नवी नदर दितालो आनी आमचे मुखार आमची वाटूय
रतालो. कितल्योशयोच गजाली स्पस्ट करतालो. भाशेच्या,
, प्रशासनाच्या, राष्ट्रीय एकचाराच्या, विश्वशान्तिच्या मार्गाचेर
उजवाड घालतालो. चरखो फकत सूत काडपी यंत्र नाशिल्लें.
विचार आशिल्लो. आमकां स्वातंत्र्यांतल्यान स्वराज्याकडेन
मार्ग आशिल्लो.

आमच्या राष्ट्रीय बावट्यावयलो चरखोच काडून उडयलो! आनी
कितें सादलें, खबर ना. कोणाक सारकें सांगूंक येना. आयज जेन्ना अशोक
चक्राचो आमचो तिरंगो खंयूय फडफडटना पळेतां, तेन्ना म्हज्या तोंडांतल्यान
उतरां फुट्टात, 'जे चरख्याचो विचार समजूंक पावले नात, ते अशोकचक्राचो
विचार कशे समजूंक पावतले? जे गांधीक वळखले नात, ते बुद्धाक
कितें कपल वळखतले?'

* * *

हांवें धा वर्सां नेमान चरखो चलयला. नेमान खंयचींच कामां करपाची
संवंय नाशिल्ली. चरख्यान म्हाका ही संवंय लायल्या. आयचें काम फाल्यांचेर
धुकलप ना, आयचें आयजूच करून उडोवंक जाय आनी आयचें आतांच
करून सोंपोवंक जाय म्हणपाचें म्हाका चरख्यानूच शिकयलां.

चरखो मनशाक नियमितपणाची देख दिता.

वर्साक म्हाका चार सदरे चार लेंगे लागतात. चरखो चलयतालों त्या
वर्सांनी वर्साक एक तरी लेंगो सदरो म्हज्या सुताचो घालतालों. राष्ट्राचे
संपत्तींत थोडी तरी भर घाल्ल्याची खोस म्हाका भोगताली. सृजनाचे
खोशये सारकीच एक खोस ही. 'ब्रह्मांडांतलें तांडव' बरोवन जातकूच जी
खोस भोगिल्ली तेच तरेची खोस म्हाका म्हज्या सुताचो सदरो लेंगो म्हज्या
आंगार पळेला त्यावेळार भोगल्या.

बाकिचे सदरे लेंगे पिंदल्यात, झिरझिरल्यात त्यावेळार तांचे आंगशे
कुडके म्हूण थोडे दीस वापर करून भायर उडयल्यात. म्हज्या सुताचे
सदरे लेंगे पिंदल्यात त्यावेळार तांचे टेबल क्लॉथ, लेंस, उश्या चिरयो
करून आनीक कांय काळ वापरल्यात. चरखो चलोवपी मनीस विद्वाटो
केन्ना जायना, नश्टखर्च करिना. मनशाचो सभावूच तो काटकसरिचो करता
म्हणपाचें हांवें पळेलां.

१६० तारांची एक गुंडी जाता. केन्ना सूत फाळक्यार काडलां तेन्ना
१५८ तार जाल्यात. दोन तार उणे जाल्यात. तेन्ना 'कोण पळेता, कोण
विचारता' अशें म्हणून सूत गुंडाळून गुंडी करूंक ना. परतो चरखो हातांत
घेतला आनी ते दोन तार काडून ते जोडले उपरांतूच गुंडी तयार केल्या.

चरखो मनशाक इमानी करता, उजू चलणुकेचो, खासा आपणाक लेगीत
फटयना असलो करता म्हणपाचें हांवें पळेलां.

एका काळार – लुगटांच्यो मिली येवंक नाशिल्ल्यो त्या काळार –
सगळेकडेन लोक चरख्याचेरूच सूत काडटाले आनी त्याच सुताचीं लुगटां
विणून न्हेसताले. ढाक्याचें मलमल हेच तरेन तयार जातालें. तें येवरोपाक
पावतालें तेन्ना थंयच्यो राजकुंवरी उडयो मारून तें व्हरताल्यो. आयज
लेगीत हे तरेचें लुगट आमच्यांनी तयार करूं येता. लुगटां खातीर मिलिंची
निखालूस गरज ना. घराघरांनी चरखो चलपाक लागलो आनी सगळ्यांनी
आपणेच काडिल्ल्या सुताचीं लुगटां वापरपाचो नेम केलो जाल्यार अब्जांनी
रुपयांचें लुगट घेवन आमी जो पयसो मील-मालकांच्या बँक-खात्यांनी
जमा करतात तो गांवां गांवांनी आमच्याच हातांत उरतलो म्हणपाची जाणवीक
चरखो मनशाक करून दिता.

हो चरखोच आमी आमच्या बावट्याच्या वयलो काडून उडयलो! कित्याक?
आमच्या फुडाऱ्यांक तो काळा-भायलो – आउट डेटेड – दिसलो म्हूण!

सत्य केन्ना काळाभायलें – आउटडेटेड – जालां व्हय? इमानदारी
जाल्या व्हय? आत्म-निर्भरता, स्वावलंबन हीं तत्त्वां जाल्यांत व्हय?
देश घडोवपाक लोकांच्या आंगांत जे गूण आसूंक जाय तांतलो एकूय
गूण काळा भायलो जावंक ना. केन्ना जायना.

पुणून लंडन स्कूल ऑफ इकॉनॉमिक्साच्या संस्कारांत वाडिल्ल्या
फुडाऱ्यांक हें केन्ना पटलें ना, समजलेंय ना. केन्नाय तरी अशोक चक्रूच
आमकां चरख्यासरीं घेवन गेले बगर रावपाचें न्हा, हीच एक आस्त बाळगून
जियेतां.

## देश जिवो उरला तो हांकां लागून

रिक्षा चलूंक लागना फुडें रिक्षावालो गावपाक लागलो –

सत मत छोडे सूरमा, सत छोड्या पत जाय।
सत की बांदी लच्छमी, फेर मिलेगी आय॥

हांवें विचारलें, 'भैया, यह किसके शब्द हैं? कबीर के?'

'मालूम नहीं साब. मेरे दादा यह गाया करते थे. मेरे पिताजी भी गाते थे...' ताणें जाप दिली.

'अर्थ तुका खबर आसा, तूं गायता ताचो?'

'हां साब. और कहानी भी मालूम है.' ताणें जाप दिली.

'तो सुनाओ...' हांवें म्हळें.

ताणें मागीर काणी सांगली –

एक शेठ आशिल्लो. सात पिळग्यांपसून ताचें घर भरून दार ओततालें. कोणाचेंय दुख्ख पळोवन ताचें काळीज कळवळून येतालें. सगळ्यांक पावतालो. 'ना' कोणाक म्हणी नाशिल्लो. एक दीस वाटेर एकेकडेन ताका एकली मर्तमडी बायलमनीस दिश्टी पडली. आंगार बोंदरां. केंस जटा जाल्ले. धुल्लान भरिल्ली. हे अवस्तेंत.

'कोण बाय तूं? तुजी अशी अवस्ता कशी जाली?' शेठजीन तिका विचारलें, 'तुजें नांव कितें?'

'म्हाका लोक दळडिरें म्हूण उलो मारतात. कोण म्हाका लागीं करिनात. नदर पडल्यार पुरो, म्हाका धांवडावन घालतात... भीक मागून दीस काडटां', तिणें जाप दिली.

'तूं म्हगेर येवन राव. तुका कितेंच उणें पडचें ना...' शेठजीन तिका म्हळें आनी तिका घेवन तो घरा आयो.

घरांत पावल मात दवरलां, एकली सुंदर बायलमनीस घरांतल्यान वता ती शेठजीन पळेली. 'बाये, कोण तूं? खंय वता? शेठजीन तिका विचारलें.

'हांव लक्ष्मी' तिणें म्हळें. 'सात पिळग्यां सावन ह्या घरांत हांव मान भौमानान आनी सुखान राविल्लीं... पुणून आयज तूं ह्या दळडिऱ्याक घेवन आयला. म्हाका आनी ताका केन्ना पडलें ना. तें आसता थंय हांव राविना.'

जाप दिवन लक्ष्मी नाच जाली.

दुसऱ्या दिसा सावन शेठजीच्या घरांत दळडिऱ्यान आपणाले हातपांय पातळावपाक सुरवात केली. शेठजीचो एक कोठवो येतालो झांझिबारा सावन माल घेवन. मुम्बय पावचे पयलीं दर्यांत बुडलो. शेठजीक रीण काडचें पडलें. रीण फारीक जालें ना. तेन्ना रीण दितल्यांनी शेठजीचो पसरो पावणेर काडलो. म्हणटासर ते घर पावणेर काडपाक आयले. शेठजी निर्शेलो. एक दीस पळे जाल्यार शेठजीच्या घरांतल्यान एक दिव्य मनीस भायर सरून वचपाक लागलो. ताचे वांगडा एक बायलमनीस आशिल्ली.

'तुमी कोण? घर सोडून कित्याक वतात? शेठजीन तांकां विचारलें.

'हांव पुण्य.' दादल्यान जाप दिली. 'तुगेर सदां रावतालों. ही म्हजी घरकान्न किर्ती. तूं ह्या दळडिऱ्याक घरांत घेवन आयलो... आमकां हांगा आतां रावपाक सुवात उरूंक ना.' ताणें जाप दिली आनी दोगांय थंयचीं लक्ष्मी ना जाल्ली तशीं ना जालीं.

एक दीस शेठजीन आनीक एकल्या तेजिश्ट मनशाक घरांतल्यान भायर सरून वता तो पळेलो. 'कोण तूं?' शेठजीन ताका विचारलें.

'हांव सत्य... सात पिळग्यां पसून ह्या घरांत रावलों. आतां तूं म्हाका दवरूंक पावचो ना... म्हण तुवें म्हाका सोडचे पयलीं हांव तुका सोडून वतां.' ताणें जाप दिली.

शेठजीन ताचे पांय धरले. आनी म्हळें, हांवें लक्ष्मीक वचूंक दिली, किर्तीक वचूंक दिली, पुण्याक वचूंक दिलें. हांव सगळें सोडीन. पुणून तुका सोडपाचों ना. तुजे म्हऱ्यांत रावपा खातिरूच हांवें संवसारीक सुखां आनी वैभवां सोडून दिल्यांत. केद्योय विपत्ती कोंसळूं, हांव तुका सोडपाचों ना.'

शेठजीची जाप आयकून सत्याच्या तोंडार मुमुरखो हांसो फुलून ... ताणें म्हळें, 'तुजे सारकेल्या सत्यव्रती मनशाक सोडून वचप म्हाका ... ना... हांव वचना.'

कांय दिसांनी लक्ष्मीन येवजिलें, 'असल्या मनशाक सोडून हांवें ... वचूंक जाय आशिल्लें?... हांव आसतां थंय दळडीर राविना.' ... परती आयली. फाटोफाट किर्ती आयली.

आनी त्याच खिणाक दळडीर घर सोडून गेलें.

काणी सांगून रिक्षावाल्यान म्हळें, 'तीन पीढियों से हम इसी को ... चलते आये हैं. हमारे यहाँ हद से ज्यादा पैसा नहीं आता. मगर इ... से मेहनत करके खाते हैं, कोई भूखा नहीं रहता...'

हांवें ताका म्हळें, 'हिन्दुस्तान जिवें उरलां तें तुमचे सारकेल्या... हे संस्कृतायेक लागून.'

## फॉरेन गार्बेजूय?

भायल्या मालाची ओड आमकां मुदलासावन. हरशीं हालिंसारा... आमच्या देशांत निर्माण जावंक लागलां. कांय आमी निर्माण के... विदेशी कंपन्यांनी हांगा येवन केलां. तरी आसतना मुदलांतली ... मालाची ओड आमची इल्लीय उणी जावंक ना. कित्याक, तातूं... 'स्टेटस'चो प्रस्न घुसपला. भायलो माल वापरपी मनशाचो 'स्टेटस' ... लोकांचे नदरेंत वाडटा. देशी माल वापरून 'स्टेटस' देंवय ... आमी भायल्या मालाक एक भारदस्त नांवूय दिवन उडयलां. आ... 'फॉरेन' माल म्हणटात.

फॉरेन गाडी? फस्टक्लास. फॉरेन टीवी? फस्टक्लास. फॉरे... फॉरेन घडयाळ, फॉरेन सिगरेट, फॉरेन बिस्कीट सगळें फस्टक्ला...

हालिंसाराक कांय जाण फॉरेन बायलोय घरकान्नी म्हूण घेवन आ...

फॉरेनचें आमचें हें पिशें पळोवन कांय वर्सां पयलीं नेपाळी ... पयशे जोडपाची एक माण्णी केल्ली. ते हांगा येवन हांगासल्लो मा... वचपाक लागले आनी नेपाळांत व्हरून ताचेर 'मेड इन फ्रान्स' ... इन जपान', 'मेड इन जर्मनी', 'मेड इन हाँगकाँग' असो छाप... 'स्मगल' करून आमकांच हांगा विकपाक लागले आनी आमी ... दुपेटीन तिपेटीन मोल फारीक करून घेवपाक लागले.

स्टेटस वाडोवपाक आमी कितेंय करूंक तयार!

हालीं आमी फॉरेन 'गार्बेजूय' (कोयरूय) देशांत हाडपाक ल... कसली 'गार्बेज'? जमनींत पुरली तरूय मातयेंत भरसूंक पावना ... फॉरेन न्हय ती? फस्ट क्लासूच आसूंक जाय. देशी 'गार्बेजी' परस ... बरी. फाटल्या दोन वर्सांत आमी कितली गार्बेज आयात केल्या ... सांसठ हजार सशें पंचेचाळीस मॅट्रिक टन. तांतली इकरा हजा... टन एकले युनायटेड स्टेटस् ऑफ अमेरिकेंतली.

उरिल्ल्या देशांचें प्रमाण अशें –

ऑस्ट्रेलिया: णव हजार आठ्ठीस मॅट्रिक टन; कॅनडा: सा... सातशें चौंसश्ठ मॅ.ट. सिंगापूर: सात हजार दोनशें सत्तर मॅ.ट., ... अरब अमिरात: चार हजार आठशें; थायलँड: दोन हजार णवशें ... फ्रांस: दोन हजार दोनशें सत्तावन; ब्रिटन: दोन हजार तिनशें चार... अरेबिया: एक हजार सातशें एक्यास्तर मॅ.टन.

सांगल्यार अजाप जातलें – पाकिस्तानानूय एक हजार एकशें... मॅ.ट. कोयर धाडून आमचे 'समृद्धी'त भर घाल्या.

हे आंकडे कोण दिता? खासा पर्यावरण मंत्री! खंय? लोकस...

हे गार्बेजिचें आमी कितें करतले? तर खंय 'रिसायकलींग'. कोण ... ज्या देशांतल्यान ती आयल्या त्याच देशांतल्यो कंपन्यो करतल...

ांचे देश बुडले व्हय तर समुद्रांत? ना. पुणून 'रिसायकलिंगा'क
नां प्रदूशण जाता तें त्या देशांक नाका. हांगा प्रदूशण जावचें ना?
लेंपुणून –
ोकंपन्यो आमच्या बेकार तरणाट्यांक एम्प्लॉयमेंट दितल्यो न्हय?
ला व्हय असलें 'अर्थशास्त्र' आनीक खंयच्याय देशांत?

## तरांतरांचें बंदेपण

क्यान म्हळां, मनीस जल्माक येतना मेकळो येता. पुणून जल्माक ु ताच्या हातां-पांयांक तरांच्यो बेडयो पडटात.

ह कांय लोखणाच्यो, कांय रुप्याच्यो, कांय भांगराच्यो. कसल्योय ो, पुणून बेडयो.

ोडयो ताका बंदो करतात.

ां दिसांनी भोंवन येयात, तुमकां संगळेकडेन बंदेच बंदे पळोवंक ट शिष्य गुरुचे बंदे. गुरु राजांचे बंदे. राजा धर्मांचे बंदे. धर्म रुढिंचे

ेनाचें एक गद्य-काव्य वाचिल्लें. अजून थोडें भोव मर्तीत उरलां. टा, आपणें संवसारांत सगळेकडेन **कुड्डें बंदेपण** पळेलें – जें ा ताच्या म्हालगड्याच्या कुळाचाराकडेन बांदून दवरता आनी ल्-झडिल्ले रीत-रिवास ताचेकडल्यान मनोवन घेवन ताचे तरणे निर्तमडे आत्मे भरता. आपणे सगळेकडेन **मोनें बंदेपण** पळेलें – ेयां मुखार नाका आशिल्ल्या एका दादल्याक एके बायल-मनशेचें ोऑपता आनी तिका नाका आसतना आपणाली कूड ताच्या विकारां ी करची पडटा. आपणें संवसारभर **भेड्डें बंदेपण** पळेलें – जें ाया कानाक गुड्डे मारता आनी ताचे तकलेचीं दारां जनेलां धांपून ेवेचार भितर वचपाचे आडायता. आपणें **विद्रूप बंदेपण** पळेलें – ाची मान सुलताना मुठींत दिवन ताका ऊठ बस करूंक लायता ो ऊठ बस करता. आपणें **थोटें बंदेपण** पळेलें – जें निष्पाप गिरेस्त अन्नाड्यांगेर जल्माक घालता आनी तांकां भ्रश्ट, अपराधी लोकांच्या माथ्यार बसयता. आपणें **उमथें बंदेपण** पळेलें – जें क बुदवंतकाय म्हूण तोखेता, फुरफुऱ्या फेणेराक गिन्यान लेखता, ाक नमळाय म्हणटा आनी भिजुडकायेक सदाचार लेखता.

ोशेन, पांगळें, शिरकळें, विद्वाटें... तरांतरांचें बंदेपण पळोवन आपणाक लें, आपलें आंग मोडून आयलें तेन्ना आपूण युगांचे खोलायेंत एकलोच आनी चलत चलत अंत आनी पार नाशिल्ल्या दुख्खांनी भरिल्ले ये तडीर पावलों. थंय मध्यान रातच्या बेळशेल्ल्या चान्न्यांत आपणें मिडी बायलमनीस पळेली. ती आपणाले दोळे चंद्राकडेन लावन ी. पूण तिच्या म्हऱ्यांत गेलों आनी तिका विचारलें, 'बाये, कोण जें नांव कितें?'

जें नांव स्वतंत्रताय', तिणें जाप दिली.

ा पूत नात?'

सात.'

य आसात ते?'

यांतलीं दुकां पुशीत तिणें जाप दिली, 'एकल्याक ह्या चांडाळांनी मारलो. दुसरो पिसावन मेलो. तिसरो अजून जल्माक येवंक ना.'

## रे गाफिल गफलत मत कर

य म्हणटालो, 'जागरूक रावशात, जिखतले. घाळ रावशात, शेणटले.' येवंक जाय तें जागरुकपणान. संवसारांत आपूण कितें करपा खातीर ा हाची जाणवीक दवरून. जल्माक आयिल्लो आसूं मनीस हेर भाशेन. पुणून हेर जिवां भाशेन जल्माक येवन फकत जेवन खावन ल्हानाचो व्हड जावन मरपा खातिरूच तो येवंक ना. कितेंय तरी करपा खातीर आयला. हेर जिवांक इतिहास ना, संस्कृताय ना. मनशाक इतिहास आसा, संस्कृताय आसा. नवो इतिहास घडोवपा खातीर तो जल्माक आयला. ताका जल्माक आयला त्या वेळार जी संस्कृताय दायजान मेळिल्ली तिका वयल्या पांवड्यार व्हरपा खातीर आयला. जो धर्मविचार ताका दायजान मेळ्ळा तातुंतलो कोयर घयरांव काडून तो निवळ करपा खातीर आयला. आपणें वयर सरप आनी आपणा वांगडा आपणा भोंवतणच्या संवसाराक वयर काडप हीच गती मनीस जल्माची. हे गतीक वेग दिवप हेंच काम जल्माक येतल्या जण एकल्या मनशाचें. हें काम, मागीर कितलेंय ल्हान आसूं, व्हड कामां इतलेंच म्हत्वाचें तें.

कबीर म्हणटा –

रे गाफिल गफलत मत कर
एक दिन जम आवेगा॥
सौदा करने या जग आया
पूंजी लाया, मूल गंवाया
प्रेम नगर का अंत न पाया
ज्यों आया त्यों जावेगा॥१॥
सुन मेरे साजन, सुन मेरे मीता
या जीवन में क्या क्या कीता।
सिर पाहन क्या बोझा लीता
आगे कौन छुडावेगा॥२॥
परलि पार तेरा मीता खडिया
उस मिलने का ध्यान न धरिया
टूटी नाव ऊपर जा बैठा
गाफिल गोता खावेगा॥३॥
दास कबीर कहै समुझाई
अन्त समय तेरा कौन सहाई।
चला अकेला संग न कोई
कीया अपना पावेगा॥४॥

घाळ रावं नाका रे बाबा. एक दीस यम येतलो आनी तुका घेवन वतलो. तूं खाशेलें तुजें अशें, तुवेंच करपा सारकें एक काम घेवन ह्या संवसारांत आयिल्लो. तें करपाक जाय आशिल्ले सगळे गूण, सगळी फिशालकाय घेवन आयिल्लो. हेंच तुजें भांडवल आशिल्लें. हें भांडवल तुवें तुज्या कामांत घालपाचें आनी नवें आगळें वेगळें कितेंय करून – संवसारांत दवरून – वचपाचें अशें थरिल्लें. तूं हें विसरलो आनी मूळ भांडवलूच खायत रावलो. परिणामी, मुदलूच होगडावन बसलो. भोंवतणच्या संवसारांत जें जें कितें आसा ताचे कडेन मोगाचे पूल बांदून तुवें तुका वाडोवंक जाय आशिल्लो. व्हड करूंक जाय आशिल्लो. भोंवतणचो संवसार मोगाचो. मोगाच्याच पुलांनी एकामेकांकडेन बांदून उरिल्लो. तो केदो हाचो अदमास लेगीत तुका लागलो ना. निमाणें, जिये जिये जियेलो आनी जसो आयिल्लो तसो आतां वचपाचो जालो. आयक म्हज्या मोगाळ भावा, आयक म्हज्या इश्टा, कितें केलें तुवें ह्या मोगाच्या संवसारांत जल्म घेवन? कांयच ना. तकलेर घेतलां फकत एक ओजें तुवें, जड गुळ्या सारकें, तुज्या चुकांचें. तुज्या पातकांचें. आनी हें ओजें घेवन तूं फुटक्या तारवार चडला. भावा, तारूं फुडें वचपाचें ना. मात्शें मुखार वतलें म्हणटासर बुडटलें. तूं बुचकळ्यो मारपाक लागतलो. कोण तुका वाटायतलो? पल्तडीं तुजो इश्ट तुजी वाट पळेत बसला, ताका मेळपाचें आसा तुका म्हणपाची चत्राय लेगीत तुका उरली ना. केदीं घाळपणा रे तुजीं हीं! हांव सांगता तुका, निमाण्या खिणाक तुजे वांगडा कोण रावपाचो ना. कोण येवपाचो ना. एकलोच वचचें पडटलें तुका. केलां आनी करूंक ना ताचें पानवळ

तुकाच भोगचें पडटलें. तुकाच एकल्याक भोगचें पडटलें.

पुणून कोणाक समजावन सांगपाचें हें सगळें? कबीर मर्दींच उबगता आनी म्हणटा, एका दोगांक जाल्लें जाल्यार समजावन सांगूं येतालें. हांगा तर सगळेच भेड्डे, सगळेच कुड्डे म्हजे भोंवतणी पातळ्ळ्यात. सगळ्यांक एकूच हुस्को – पोटाचो. पोटा भायर जांकां कितेंच दिश्टी पडना तांकां कितें समजावन सांगतालों? पोटाक लागून सगळे आपणालें ऐन तें मिशन विसरल्यात. आपणाल्या मनाकडेन लेगीत ते सारकें लक्ष दिनात. मन तांकां खंय ओडून व्हरता, तांकांच खबर ना. मन अवजाळी, हुळहुळें, खंय घेदन वचत मनशाक, सांगूं येना. हें लक्षांत दवरून मन पयलीं आळाबंदा हाडपाचो, आपणा सुवादीन दवरपाचो, यत्न करूंक जाय आशिल्लो तांणी. तांकां हो यत्न करपाक वेळूच मेळना. वाऱ्याच्या वेगान धांवतल्या घोड्यार मनीस बसलो जाल्यार ताचें कितें जातलें? तो पडटलो. तशे हे पडटले. आळवा पानावयलो दंवा थेंबो मात्सो वारो लागनाफुडें पडटा तसो पडटलो. हुंवार आयिल्ले खोल न्हंयेंत मनशान आपणालें तारूं सोडलें जाल्यार ताचें कितें जातलें? चलोवप्या वांगडाच तें बुडटलें. मन आपणा सुवादीन दवरी नासतना जे ताचे सुवादीन जातात तेवूय अशेच बुडटात.

पुणून इतली सादी ही गजाल कोणाक समजना? कितें जालां तांकां? कुड्डे जाल्यात ते? कुड्डे जाल्ले आसत जाल्यार तांच्या हातांत दिवो आसुनूय कांय लाव ना. तांकां कितेंच दिश्टी पडपाचें ना. भायलें सोडून दिवया, घरांत कितें आसा तेंवूय तांकां दिश्टी पडपाचें ना. दिश्टी पडपाक दोळे आसूंक जाय. दोळे आसत जाल्यार दिव्याचीय गरज उरना. जिवीत जियेवपाक गिन्यानाचे दोळे उकते आसूंक जाय. ते कोणाकडल्यान तरी उकते करून घेवंक जाय. धरूंया, आमी एका रानांत पावले आनी रानान अकस्मात पेट घेतलो. जाल्यार, आमी रानांतल्यान भायर कशे स[illegible] कशे आमचे आमकां वाटायतले? वाट दाखोवपी कोणूय मेळूंक[illegible] ना जाल्यार भियेवन हेवटेन तेवटेन धांवत रावतले आनी अंती [illegible] मरतले. जिवितांतूय आमकां वाट दाखोवपी कोण मेळूंक जाय.

कबीर म्हणटा, भावांनो, आमी संवसारांत नागडेच आयल्यात. [illegible] वचपाचे आसात. जाय जाय करून आमी एकठांय केलां तांतलें[illegible] आमचे वांगडा आमकां व्हरूंक येवपाचें ना. काश्टी लेगीत हांगाच[illegible] वचचें पडटलें. हें ज्ञान दिवपी आमकां कोण मेळ्ळो ना जाल्यार, [illegible] दवरात, अखेर मेरेन आमी कुड्डेच उरतले. हांगा थंय आपटत [illegible] रावतले. बुडटले, हुलपतले. पावूंक जाय थंय मात केन्नाच पावपाचो[illegible]

केहि समुझावै, सब जग अंधा॥
इक दुइ होये उन्हें समझावौं
सबहि भुलनि पेट के धंधा॥
पानी घोड पवन असवरवा
ढरकि परै जस ओसका बुंदा ॥१॥
गहरी नदी अगम बहै धरवा
खेवन-हार के पडिगा फंदा।
घर की वस्तु नजर नहिं आवत
दियना बारि के ढूंढत अंधा॥२॥
लागि आगि सबै बन जरिगा
बिन गुरूज्ञान भटकिया बंदा॥
कहै कबीर सुनो भाई साधो।
जाय लंगोटी झारिके बंदा ॥३॥

---

☐ एकल्याक राग आयलो. कोणाचेरूय ताका तो काडपाचो आशिल्लो. मुखार ताका तागेलो सुणो दिश्टी पडलो. ताणें सुण्याचेर खोंट मारली. सुणो क्यांव क्यांव करीत जो ना जालो तो तीनसांज जाली तरूय झळकलो ना.

रात जाली. सुण्याचो धनी हुस्क्यांत पडलो. सुणो खंय गेलो? तो चिंतूंक लागलो. सोदपाक भायर सरिल्लो. दार उकतें कर[illegible] दारांतूच सुणो.

'खंय रे, खंय गेल्लो दीसभर?' मनशान सुण्याक विचारलें.

'सांगूं धनया, रागार जावचो ना मू? तुंवें म्हजो अन्याय नासतना म्हजेर खोंट मारली हाचें म्हाका खूब खूब वायट दिसलें. हांव[illegible] जालों म्हूण कितें जालें? म्हाकाय मान मर्यादा आसा... शी, तुंवें मनीसपण घाणायलें म्हूण गेल्लों...' सुण्यान जाप दिली. 'मुखा[illegible] जालें जाणा?' सुण्यान म्हळें. 'तुका आपणें मनीसपण दिलें म्हूण देवान लजेन मान सकल घाल्ली हांवें पळेली.'

*— एक इंग्रजी [illegible]*

☐ लोकांचीं काळजां जिखपाची कवीत्वशक्ती तुज्यांत आसत जाल्यार तुका सत्येची गादी रे कित्याक जाय?

आंगांत नमळाय आसत आनी घडूंक जायनाशिल्लें हातान कितेंय घडिल्लें पळोवन लजेन तुजी मान बागवता आसत जाल्यार तुका [illegible] शिंगरां रे कित्याक जाय?

मन निर्मळ आसत जाल्यार तीर्थयात्रा रे तुंवें कित्याक करूंक जाय?

चुकिल्ल्यांक क्षमा करपाची तांक तुज्या आंगांत आसत जाल्यार आत्मसंरक्षणाची जतनाय रे तुंवें कित्याक घेवंक जाय?

जिवितांत सत्याक सुवात आसत जाल्यार तुंवें तप रे कित्याक करूंक जाय?

— [illegible]

☐ — शाणो मनीस चड उलयना.
— उलोवचे परस ओगी रावप चड परिणाम घडोवन हाडटा.
— ताकतिकेन येवजी नासतना कितेंच उलोवचें न्हय.
— मन जेन्ना व्हड जाता तेन्ना उलोवप उणें जाता.
— येवजिले बगर उलयले जाल्यार लुक्सान चड.
— चड उलयता ताका सोंसचेंय चड पडटा.

*— अरबी प्र[illegible]*

# ऋतु संक्रमण

...कलदास प्रभु



...रोखडोच तो विचार परत मनांतल्यान येवन गेलो – ...त तीन दीस उरल्यात... आनी मन अस्वस्थ जालें. ...यांत ल्हानसो फातर उडयतना उदकाच्या प्रतळार ...कुळीं ल्हारां जशीं विस्तारून पसरतात, तशें मनांतय ...लें. मनांतल्या खंयच्या तरी कोनशांतल्यान त्या ...रांचें ल्हार सगळेकडेन पावतालें. एका फाटल्यान ...नी एक...



आनीक तीन दीस उरल्यात – भायर सरतना मनांत परत तो विचार ...लो. आनी तिनूच दीस उरले. खरें म्हळ्यार दोन दीस आनीक कांय ...ा. तिसऱ्या दिसा ऑफिसांत वतलों. तो दीस निमणो. त्या दिसा सांजे ...वरांच्या सुमाराक एक स्टाफ मिटींग जातलें. निरोपाचीं उलोवपां जातलीं. ... घालतले. यादस्तीक भेटयतले. रिलीविंग ऑर्डरा सयत पी.एफ. आनी ...इटीचीं चेकां हातार पडलीं म्हणटकूच हांव निवृत्त जातलों... चाळीस ...चे सिर्विशे उप्रांत हांव एके संस्थेक भायलो जातलों...

...ायट दिसता?... तीन म्हयन्यां पयलीं म्हजें अमके तारखेक सुपर ...ुएशन जावपाचें आसा हें कळोवन पत्र आयलें, तेन्ना हांसून जाहीर ...लें – कावंट डावन सुरू जालां – ९० - ८९ - ८८ - ८७... ...ी आतां तीन दीस उरल्यात.

...ोकरी करूंक लागतना अठरा वर्सांची पिराय. पयल्या दिसा गोंदळत रावलों. नवें काम. नवो गांव. नवे लोक आनी परकी भास. सगळेंच वळखी भायलें. पूण उमेद आसली सगळें शिकून घेवपाची. आनी तल्लीन जावन काम करीत पयलो दीस तिनसांजेकडेन पाविल्लो... अजून घट याद आसा, त्या कुडांतल्या हय-न्हयशा उजवाडाची...

चाळीस वर्सां कशीं गेलीं! हां, काळ-प्रवाह म्हळ्यार तसो... धणूवयल्यान सुटिल्ल्या बाणावरी...

— नायका!

अं? कोणें आपयलो!? आं, गोपाळ–

— गोपाळ! कसो आसा?

— आसां बरों. तूं कितें पळोवंकच मेळना मरे!

— आं, कांय दीस जाले, बलायकी बरी नासली.

— परत आरत्रायटीसची पिडा?

— हां. तीच.

— वखद घेतलें ना?

— वखद खंयचें कर्माचें? दोतोर म्हणटा, एकच वखद आसा – मरण येतलें तेन्ना आरत्रायटिसांतल्यान मेकळों जातलों... खंय भायर सरलो?

— अशेंच वारें घेवपाक. तूंय वॉकाक न्हय?

— व्हय.

— ह्या रस्त्यावयल्या ट्रॅफिकांत शिरकून कसलो वॉक? हे वाटेन या.

— या.

मुखेल रस्त्याचे उजवे कुशीक शेतां. दावे कुशींत लांब-रूंद तळें. फकत नांवान तें तळें. पावसाळींत उदक भरता, पूण पावस सोंपलो म्हणटकूच उदक आटून शेतावरी दिसता. गिमांत तर तांतुंतल्या तणांचेर गोरवां चरतात. तळें चिरून डामराची वाट वता. गोपाळ आनी हांव ते वाटेदिकेन वळ्ळीं.

वाटेर चड येरादारी नासली. रूंद आनी निवळ मार्ग. पूण चड लोक दिसले नात. मंद, मेकळें वारें, मोव वत. चलून वचपाक बरें दिसलें. हळूच गेल्यार बरें. ना जाल्यार राती दिंबयेची दूख सोंसची पडटली.

गोपाळाकडेन खबऱ्यो मारीत, हळूच चलत वतना कितें तरी माथ्यार पडलें. पडिल्लो वस्त फाफडून उडोवपाक आपसोच हात वयर गेलो. पूण हाताचीं बोटां लागचेपयलींच तो वस्त तकलेवयल्यान खांद्यार आनी थंयच्यान पांयांकडेन पडलो. तें आशिल्लें एक फूल. तांबशें फूल. वयर पळयलें. सगळो रूख फुलून आयिल्लो. म्हणटकूच भोंवतणींत नदर भोंवडायली. सगळ्यार चंवर दिसलो.

गोपाळ घुंवन पळयलो. हांव रुखांचेर दिश्टी थिरावन वच्चें पळोवन ताणें म्हळें – वसंतऋतु पावलो. तुका कळ्ळें ना?

ना. हांव घरा भितरूच बसून इतले दीस काडले.

कोगुळाचो साद आयकतालों. पूण मनांतल्या विचारांक लागून ताचें लक्ष घेवंक नाशिल्लें. भुरगेपणांत कोगुळाचें कूऽ ऊऽ आयकल्यार पडसाद दितालों. आनी तेन्ना उल्याक जापे वरी कोगुळाचो साद वयर वयर चडून वतालो. आनी कांय वेळान पुरो जाल्लेवरी कोगुळाचो साद बंद पडटालो. आपणालें जैत जालें, हे चिंतेन खोशी जातालों.... भुरगेपणाचीं खिणां!...

गोपाळावांगडा एक किलोमिटर पुणेय चलत रावलो. मुखार एक ल्हानशें जंक्शन मेळ्ळें. रस्तो मुखार वचत आसतना ताच्यो दोन शाखा दाव्या

आनी उजव्या दिकान वताल्यो. गोपाळ फुडें सरलो, आनी उजव्या दिकान वळ्ळो. आतां हांव मात्सो दुबावलों. फुडें चलूं? काय परत वचूं? गोंदळाक लागून चलपाचो वेग उणो जालो.

— गोपाळा?

गोपाळ घुंवलो.

— खंय वता?

गोपाळान उजवी वाट सोंपता थंय पडिल्ल्या दोंगुल्ल्याक बोट दाखयलें आनी आपयलो,

— यो गा.

दुबाव बदलून भिरांत जाली.

— ना, ना. हांव येना. हांव थंय वयर चडूंक पावचों ना. तूं वच. हांव परत वतां.

गोपाळ हांसलो.

— कित्याक? फुडें वचपाक तुका पांय नात?

— तशें न्हय रे. मागीर सगळी रात पांय दुखतले.

— हळूच चडून या मरे. पयलीं आमी वताले न्हय?

— आतां आमी कितें पयलीं वरी भुरगे व्हय?

पयलीं ह्या दोंगुल्ल्यांच्या पांवड्यांवयल्यान सदां फांत्यापारार तीन चार पावट चडप देंवप जातालें – व्यायाम म्हणून. खडपाचो दोंगुल्लो. तिनशें फूट उंचायेचो. दोनशीं तिनशीं सोपणां माडयत चडून वयर गोमटेश्वराच्या मुखार पावतना भुरगेपणांत कांय त्रास जायनासलो. व्यायाम म्हणून दोन तीन पावट वयर चडटना पुरो जातालें, पूण तितलेंच बरें दिसतालें. फांत्या पारार व्यायाम करपा खातीर येतालों आनी केन्ना केन्ना सांजवेळाचें शुद्ध मेकळें वारें घेवपाक. चार पांच वर्सां जाली ती संवय चुकून...

पुण आतां पळय, नेणतनांच हांवें दोंगुल्ल्याचीं सोपणां माडयत वयर चडूंक सुरू केलां! जमचेंच ना अशें धरिल्लें. जितलें शकत, तितलें चडुंया. कसलोय फोर्स ना. पांयांचेर स्ट्रेयन पडटा अशें दिसल्यार रोखडेंच परत वचप...

सगळीं सोंपणां चडून वयर पावलों म्हणटकूच पुरो जालें. पांयांचे दुखयेपरस खरश आयली.

— गोपाळा! राव.

— पुरो जालें?!

— आं... आं. बसुया, खंय पुणेय वचून.

— हांगा यो.

आड पडिल्ल्या दोन खडपांच्या खांब्यांक बोट दाखोवन गोपाळान आपयलें. आनी हांव थंय वचून बसलों. भोंवतणीं भुरगीं खेळटालीं. तरणाटे चले दोंगुल्ल्याचे सोंपणां नाशिल्ले देंवतेकडेन चलत वचपाचो साहस करताले. दादल्या-बायलांचीं जोडीं पयस खंय खंय वचून बसून गुपीत गजाली मारतालीं. प्रवासी लोक बोवाळ करीत देवळांत भितर वताले. आनी भायर येतना चाळयत, हांसत येताले. गोमटेश्वराच्या नागडेपणाक लागून हांसताले जायत.

पुण गोमटेश्वर अनासक्त जावन दिसलो. शांत, सुंदर तोंडार गांभिर्य आसलें तरीय ओंठार हांसपाचो वावर केल्लो दिसतालो.

हांव बशिल्लेकडल्यान गोमटेश्वराची म्हूर्त सगळी दिसनासली. पूण कितले पावटी पळयल्या, लार्गिच्यान! दोळे धांपल्यारूय स्पश्ट दिसता – गोमटेश्वर परेडाक राविल्ल्या वरी 'अटेन्शन' जावन उबो आसा. हड्डें रूंद करून, हातपांय सीदा धरून माथें बगोवंचे बगर अर्द उकत्या दोळ्यांनी सामकी पळयत... पांच शेंकडे जावन गेले – बेचाळीस फूट उंचायेचो खडपाचो तो पुतळो पावसाचें उदक, वोताची हुनसाण, शिंयाचें वारें आनी मळबावेल्यान देंवन आयिल्लें जोगल, कांयच, कितेंय पर्वा करी नासतना काळाक तोंड करीत रावला... ताची तपस्या इतली लांब काळाची की भोंवत रोयण जालें, झाडां वाडलीं, वाली ताच्या पांयांवेल्यान, जांगेवेल घेवन भुजां कडेन पावल्यो...

बशिल्ले कडल्यान आतां म्हाका फकत गोमटेश्वराचें तोंड, भुजां दिसतालीं... अस्तमतेचो उजवाड फाटल्यान पडटालो, दे पडनासलो. सूर्य फाटल्या दोंगरावेल्यान सकल देंविल्लो. पूण ब आसलो. आनी मळबाचे धारेकडेन कुपां परजळटालीं...

रोखडोच तो विचार परत मनांतल्यान येवन गेलो – फकत उरल्यात... आनी मन अस्वस्थ जालें. तळ्यांत ल्हानसो फातर उदकाच्या प्रतळार वाडकुळीं ल्हारां जशीं विस्तारून पसरतात, त घडलें. मनांतल्या खंयच्या तरी कोनशांतल्यान त्या विचारांचें ल्हार पावतालें. एका फाटल्यान आनी एक...

— वोगीच कित्याक? पुरो जालें? – गोपाळाचो प्रश्न.

— मात्शें... वयर हांगा पावचो ना अशें दिशिल्लें, पूण पा अजाप दिसता.

— ऊं, मागीर वोगीसो जालो? कितें चिंतता?

— अं... आनीक तीन दीस उरल्यात अशें चिंततालों.

— तीन दीस?... आंऽ – गोपाळाच्या तोंडार चिके हार – तुजें रिटायरमेंट! ताका लागून तूं असो खासावीस जाला!

— जावपाचेंच न्हय?

— जावपाचेंच. कंपनी एक्सिक्यूटीव कामगारांच्या मनांत 'से बिलॉंगिंग'चो मंत्र इतलो फुंकता की हो मंत्र कांय कामगारांक पुर जिणेचें केन्द्र जाल्लें दिसता. खरें म्हळ्यार हो सेन्स एक नॉनर विरोधाभास. आपूण अमके कंपनीक 'बिलॉंग' जाता अशें कामगारा कंपनीशिवाय आपले जिणेचो अर्थ ना अशें ताका दिसता. कारण लागून ताचें पोट भरता. इतलेंच न्हय, लोकांचे गर्दैत तो आपली ते कंपनीच्या नांवांक जुळोवन, कंपनींतल्या अमक्याच एका हुद्द्याब जोडता. पूण विरोधाभास कसो जाणा! जी कंपनी तुका सेन्स ऑफ दिता, ती तुका सेन्स ऑफ वॉन्टेडनेस दिताच अशें ना. कं जायच अशें ना. सुपर ॲन्युएशनाचें जेन्ना तुका नोटीस येता, विरोधाभास तुका कळून येता. व्हय मरे?

— हांव नकळों. म्हाका अशें कांयच दिसलें ना...

— तर कितें दिसता?

— कळना... कितें तरी हातांतल्यान सांडून वताशें... म्हात देखून कोणाक नाका जालों अशें...

— Grow old along with me! — गोपाळान सां तो मोठ्यान हांसूंक लागलो. लागींच बसून जो भुरगो खेळटालो, जावन उबो जालो. भोंवतणींतले लोक अजापून गोपाळाक पळोव पूण गोपाळाक तांची पर्वा नासली. ताणें विचारलें —

— रॉबर्ट ब्राउनींग ह्या कवीचें तुवें नांव आयकलां?

हांव याद केली. व्हय. तांचें एक पद शाळेंत शिकपाक आशिल्ले सॉंग' – God's in his heaven – All's right with the – ह्यो दोन वळी याद येता...

— व्हय, आयकलां.

— बरें! ब्राउनींगाची एक कविता आसा. 'रबी बेन एजरा', एजरा एक रबी – म्हळ्यार ज्युदेवांचो धर्मगुरू. तो म्हणटा – अ

गोपाळान नाटकीय हावभावान आयकयलें –

Grow old along with me!
The best is yet to be,
The last of life, for which the first was made:

ur times are in His hand
ho saith "A whole I planned,
outh shows but half; trust God: See all nor be afraid!"
वतणींतले लोक गोपाळालें 'कविता वाचन' कान दिवन आयकताले
जिज्ञासेन पळयताले. पुण ताका तांचेकडेन मातय लक्ष नासलें.
म्हाका उद्देशून विचारलें –
– अर्थ कळ्ळो?
वें तकली हालोवन व्हय केलें. पूण मनांतले अस्वस्थतायेचो कांय
जावंक नाशिल्लो.
– गोपाळा, उतरांवेल्यान सूख, शांती आनी समाधान मेळटा तर
लें बरें आसलें! ह्या संवसारांत कसलीय समस्या जावंची नाशिल्ली!
ोपाळ गंभीर जालो तरीय उलोवंक लागना फुडें मुमुरख्यांनी हांसलो.
ं ताचो ताळो सकयल देंवलो –
– ब्राऊनिंगान लायफाचें लास्ट आनी फर्स्ट म्हळां. फस्टाची काणी
क. म्हगेर घडिल्ली. तीन दीस जाले. सदंभशेन हांव म्हजे नातीकडेन
खेळटालों. रोखडीच ती मात्शी उठली. कमरा सकल हातांनी सांसपून
परत मेजार दवरलो. तिच्या बोटांक रगत लागिल्लें. पयलींच हांवें
लें. मागीर तिणें. तिच्या तोंडार अजाप, गोंदळ आनी भिरांत दिसली.
च पूण ताकतिकेन ती भितल्ले कुडींत गेली. परत आयली तेन्ना तिच्या
र भिरांत नासली. पूण गोंदळ उणो जावंक नाशिल्लो. हरशीं ती म्हजेकडेन
पणान उलयताली. देखून तिणें विचारलें तर तिचेर कसलो बदल
ला आनी कित्याक लागून आयला हें समजावपाक हांव तयार आशिल्लों.
कितें जालें जाणा? तिणें चॅसाचो त्या दिसाचो खेळूच अर्दकुट्यार
न दिलो. आतां आमचे मदें एक नवें एलमेंट आयिल्लें – तिची लजा.
आपूण पयलींवरी भुरगी उरूंक ना ही समजिकाय तिका खाताली जायत. म्हजे बायलेन वा सुनेन तिका कांय नवे विचार दिल्ले जायत. पूण एक स्पश्ट दिसलें. जें भुरगें म्हजे मुखार बसून खेळटालें, तें भितर वचून भायर येतना भुरगें न्हय जाल्लें. भितर वचून भायर येवपा मदें कांय खिणांचो अंतर आसलो. धा पंदरा मिनटांचो अंतर. तितलोच. त्या धा पंदरा मिनटांनी तिचो आकार बदल्लो ना, तिचें रूप बदल्लें ना. पंदरा मिनटांची पिराय चड जाल्ली. पूण केदो बदल! दिवड काती सोडटा तशें ती भुरगेपणाचें तोंड सोडून बायलमनशेचें तोंड दाखयता अशें दिसलें. आतां परतून चिंतताना म्हाकाच गोंदळटा – त्या खिणांत म्हजी नात भुरगेपणाचें मास्क घाल्ली बायलमनीश आशिल्ली काय बायलमनशेचें मास्क घाल्ली चली? इट डजन्ट मॅटर... म्हजें पोइंट हें – एके चलयेक बायलमनीश जावपाक वर्सांचो अणभव नाका. खिणांचो अणभव पुरो. पिरायेक लागून पिराय वाडना. अणभवाक लागून वाड येता...

गोपाळ कोणाकडेन उलयतालो हें कळना जालें – म्हजेकडेन काय आपलेच भितर? दादले म्हातारे जातना आनी चलयो वयाक येतना गोंदळटात तें सहज अशें कितें तरी ताका सांगपाचें आसलें जायत. त्या गोंदळा उपरांत सगळें सारकें जातलें अशें सांगून म्हजें सांत्वन करपाक तो सोदतालो तर तो चुकलो... म्हजें मन पयलेंवरीच अशांत आशिल्लें...

वातावरण चिके थंड जाल्लें. दोंगुल्ल्यांचे देंवतेर काळोख देंविल्लो. मळबाचे धारेर चड उजवाड नासलो. गोमटेश्वराचें तोंड दिसनासलें. खंयच्या काय फुलांचो मिश्र-वास येतालो. मळबार सात आठ पक्षी घोंटेरा दिकान उडताल्यो.

आनी पयसुल्ल्यान आयकल्ल्या शेनायेच्या सुपुल्ल्या सादावरी परत ती भावना येताली –

— आनीक तीन दीस...

* * *

---

# फी प्रज्ञावाद

कलो खांकनवाळ जाल्लो, कितें करचें, ताका समजनाशिल्लें. 'घर वीक', एकल्यान ताका उपाय सुचयलो.
'आनी हांव खंय रावूं?'
'सगळें घर विकूं नाका. एक कूड – एकूच कूड – आपणा खातीर दवरतां, बाकिचें सगळें विकतां, अशें विकतें घेतल्याक सांग. कॉंट्रॅक्टांतूच
ाल...' ताणें वाट काडली.
एकलो लखम-नायक घर घेवपाक आयलो. 'तुजे खातीर तूं खंयची कूड दवरतलो म्हणटा?' ताणें विचारलें.
'दावे वटेनच्या वारांदा तोंकार आसा ती... भायले भायर येवपा वचपाची वाटूय थंय आसा... तुमकां आडखळ जावपाची ना!' ताणें जाप दिली.
ताणें कूड पळेली, वाट पळेली आनी 'बरें आसा' अशें म्हणून कॉंट्रॅक्टाचेर सय केली.
घर विकून पयशे मेळिल्ले ताचेर हाणें एक पसारो घालो. पसरो बरो चल्लो. थोडो पयसो गांठीक जातकूच ताणें एक शेत घेतलें. खासा आपूण
रोवपाक लागलो. शेत बरें उत्पन्न दिवपाक लागलें. म्हणटासर कोणें ताका एक ट्रॉलर घे आनी नुस्त्याचो धंदो सुरू कर म्हूण सांगलें. ह्या धंद्यांत
भरून दार ओतता इतली जोड ताका जावपाक लागली. आतां ताका ती कूड पावना जाली. ताणें उपाय काडलो – नुस्तें सुकोवन तो हे
ींत दवरपाक लागलो. सुक्या नुस्त्याची घाण (?) घरभर पातळपाक लागली. घरांत रावतलो लखम-नायक बेजार जालो.
कांय दीस दोगांयचीं झगडीं चल्लीं. अखेरेक तीं न्यायालयांत गेलीं. न्यायालयान निवाडो दिलो, सुकें नुस्तें कुडींत दवरचें न्हय अशें कॉन्ट्रॅक्टांत
.. कुडींत रावतल्याक थंयचो भायर काडूंक येवचो ना...'
मागीर कितें जातलें?
मुदलच्या धनयान लखम-नायकाक म्हळें, 'घर म्हाका वीक. हांव तें परतें घेतां.'
घेतिल्लें ताच्या अर्द्या मोलाक ताका तें विकचें पडलें.
कागदी पुराव्यांचेर निंबून रावन कांय न्यायालयां केन्ना केन्ना लोकांचेर अन्याय करतात. आनी समाजांतले फटींग हे परिस्थितिचो लाव घेतात.

— *ख्वाजा चिश्ती*

# हांव मेस्त उलयतां

जितेंद्र श्रीपाद च्यारी

मनशाक भट, मडवळ, म्हालो, शिंपी, चामार, म्हार हांची जितली गरज तितलीच म्हजीय गरज. घडये ती तांच्याकय चड जावंये पूण उणी मात निखालूस न्हय. कित्याक तर म्हालो, भट, मडवळ, शिंपी, म्हार, चामार हांचीं कामां एकवेळ एकूच मनीस गरज म्हूण करीत पूण मेस्ताचें काम ताका जमतूच म्हूण सांगूंक येना. हाचें कारण म्हळ्यार, मेस्ताकडेन आपली अशी खाशेली कला आसता आनी तिचो आधार घेवन तो आपलें पोट सोडयता.

म्हाका पुरायपणान समजून घेतले जाल्यार विश्वकर्माक वाट विचारीत येवंचें पडटलें. जाणें विश्व निर्माण करपाक ब्रह्मदेवाक हातभार लायलो तोच हो विश्वकर्मा. देखून आमी विश्वकर्माक पुजतात. आनी कसलेंय काम सुरू करचे पयलीं ताका भजुनूच तें सुरू करतात.

तर, म्हजो जल्म विश्वकर्माच्या रुपानूच जालो. ब्रह्मदेवान विश्व निर्माण करतकच देवाक म्हाल, राजवाडे हांची गरज भासली आनी तातुंतल्यानच म्हजी उत्पत्ती जाली जावंये. हांव नासलों जाल्यार तांचे म्हाल राजवाडे कोण बांदतलो आसलो? तांकां लागपी शस्त्रां, देखीक, धनुष्य-बाण, गदा, तरसाद, भाले, सुदर्शन चक्र, त्रिशूळ... तांगेले रथ बी कोण घडयतलो आसलो? म्हणटकच गरज म्हूण देवांनी म्हाका जल्माक घालो अशेंच म्हणचें पडटा.

रामायणाची मोख दोळ्यांमुखार दवरून सर्गांतल्या देवांनी म्हाका धर्तरेर धाडलो. म्हाका लागून अयोध्येंत राजवाडे जावंक पावले. लंका घडूंक पावली. आनी येदें व्हडलें रामायण घडूंक पावलें. लंके मेरेनचो सेतू बांदपा फाटल्यान जांबुवंताच्या रुपान म्हजोच हात आसलो. हें जांकां खबर आसा वा कळ्ळां ते म्हाका सुमारा भायर लेखतात.

रामायणा उपरांत हस्तिनापुरांत जें पांडव कौरवांचें महाभारत घडलें तें लेगीत म्हज्या पुर्वजांनी उक्त्या दोळ्यांनी पळयलां. आनी वेळा काळार ताका हातभारय लायला. पांडवांची नांवालोकाक पाविल्ली मयसभा म्हज्याच पुर्वजांनी बांदिल्ली हें म्हाका जेन्ना कळटा तेन्ना म्हजें हड्डें फुलोन येता. आनी म्हाका म्हज्या वावरा-धंद्याचो अभिमान दिसूंक लागता आनी त्याच नेटार हांव कामाक लागतां.

भटा-बामणाक जशें जानवें लागता तशेंच म्हाकाय लागता पूण मेस्ताच्या जानव्याची सर भटा-बामणाच्या जानव्याक येवपाची ना. कित्याक तर, मेस्तान गळ्यांत घातिल्ल्या जानव्या फाटल्यान व्हड आख्यायिका आसा. सर्गलोकांत ज्या विश्वकर्माचेर दैत्याचें संकट आयलें त्या वेळार धर्तरी निर्मुपी ब्रह्मदेव म्हादेवा लागीं गेलो आनी ताणें ताका विश्वकर्माक तारपाक सांगलें. ब्रह्मदेवाच्या उतराक मान दिवन म्हादेवान आपल्या गळ्यांतलो 'सोरोप' काडून विश्वकर्माच्या गळ्यांत घालो तेद्यावेळा सावन मेस्ताच्या गळ्यांत जें जानवें पडलें तें आजवेर पसून मेस्तान घालचें सोडूंक ना. अशे तरेन जानव्या फाटल्यान मेस्ताची येदी व्हडली आख्यायिका लिपिल्ली आसा.

ज्या विश्वकर्माच्या नांवान म्हजो जल्म जालो त्याच नांवान कांय जाण म्हाका वळखतात. पूण काळाप्रमाण मनीस बदल्लो तश आड नांवांय बदलत गेलीं. देखीक 'पांचाळ', 'मेस्त्री', 'आचार्य', आनी 'च्यारी'. पूण एक गजाल खरी, आडनांवां बदल्लीं म्हूण मात बदल्लें ना. म्हजो विस्तार वाडत गेलो. कांय जाणांनी म्हज शेटी कडेन केली. थंय लेगीत म्हाका शेटिचो 'व्हडलो भाव' मानलो

मेस्ताचे हात पांय घट आसत तर ताका कामाक मर ना. ते काम करून लेगीत आपल्या पोटा पुरतें सोडूंक शकता. ताका दुस दारांत कामाखातीर वचपाची कांयच गरज ना. मेस्तपणाक जित चड तितलेच तातूंत दगदगय चड. मेस्तपणांत लोखणाचें कामूय येता. तापोवन, आकार दिवन साणस, विन्नें, चिन्नें, शेणे, कोयतो व्हिळो, खोरें, कुराड 'पिकान्दर' पारय, कायलाते, कायल आदी आवत करचीं पडटात. हीं सगळीं आवतां तयार करतलों वा तांकां आकार जाल्यार सगळ्यांत पयलीं म्हाका गरज लागता ती भात्याची.

भात्याच्या आधारान आपल्याक जाय तीं आवतां तयार करतक आपल्या कामाक लागता. ह्या कामाक ताका आनिकूय आवतां ल – तातुंतलीं मुखेल म्हळ्यार किसूळ, विन्नें, चिन्नें, खरवत, ह फिलफिली, कुरतूम, बिडी, दिसफीस, तासणी, रूम, निसाणो, गावी, शेणे, साणशी आदी.

इतले चर्चे उपरांत आमी म्हत्वाच्या पारंपारीक आवतांची खोलाये करून घेवंया.

**किसूळ**

किसूळ लाकूड सुळसुळीत करपाखातीर वापरतात. किसूळ तयार करपा चडशे लोक सायलाचें वा सिशाचें लाकूड वापरतात. कित्याक तर हें घट आसता आनी ताका चिराळे नासतात. किसूळ तयार करपा लांबट चौकोनी लाकडाचो कुडको घेवन ताका मदीं पालसो बुराक म त्या बुरकांत **पातें, डबल** आनी **काल्स** फिट्ट बसता. किसळिचें पातें लोखणाचें केल्लें आसता. आनी ह्या पात्याची एक वेट पालशी अ ताका धार काडिल्ली आसता. पात्याक धार काडपाक गुणो वापरता गुण्याक **निसाणो** अशें म्हणटात. डबल पात्याफुडें लायतात. ताचे पात्याक घट्ट धरपाक जाता. काल्स म्हळ्यार लांबट त्रिकोनी किस बुरकांत बसता असो एक लाकडाचो कुडको. काल्स पातें थारोवप पातें काडपाक उपेगी पडटा. किसळिची सकयली बाजू फळ्याक वा घांसता ती सामकी सरळ आनी सुळसुळीत आसता. ते बाजूक भागाक खांच आसता. ते खाचींतल्यान पात्याची धार थारयल्ले प्रमाण फ तेंकता आनी फळें तासून तयार जाता. किसळी ल्हान-व्हड आक आसतात. ल्हान किसळीक **बेटो** म्हणटात. बेटो फळ्याच्या जायत्या

मेळटा. दुसरी, एका फुटाची किसूळ सरळ किसोवपाक वापरतात. ...ळिचो वापर करतना दोगां मनशांची गरज भासता. किसूळ ओडपाखातीर ...चे फुडले वटेन आडवी काम मारून मूठ तयार करतात. हे मुठिचो ... किसूळ ओडपाखातीर जाता. तीन फुटांची किसूळ फळयेचे धारेक ...क, वा धार सरळ करपाक वापरतात.

...ळी इतलेंच विन्नें/इन्नें मेस्ताक म्हत्वाचें. मेस्त विन्न्याचो उपेग बुराक ...क, कूस काडपाक, खांप घालपाक, खळी घालपाक, काडप काडपाक, ... कामां खातीर करता. विन्नें कडक लोखणाचे पट्टे पसून तयार करतात. ...चे सकयले वटेन पालशी धार आसता. आनी वयले वटेन मेस्ताक ... धरपाक, आनी कुट्टी मारूंक मेळटा तशी लाकडाची मूठ आसता. ... वयले वटेन लोखणाची मुदी आसता. तिका लागून इन्न्याची मूठ ...ी फुटूंक पावना. इन्न्याचो तोपदार भाग मुठिचे भितल्ले वेटेन आसता ... मुठिचे सकयले वेटेन एक बारीक पायपाचो कुडको आसता. हाका ...ी म्हणटात. ही शेमली इन्न्याची मूठ घट धरपाचें काम करता. इन्नींय ...-व्हड आकाराचीं आसतात. सामान्यतायेन १ ते ३ इंच रुंदायेचें विन्नें ... आपल्या कामांत वापरता. ह्या विन्न्याक निसाण्याचेर धार काडटात.

...ळ, इन्नें हांचे वांगडाच चिन्न्याचो उपेग मेस्त चड प्रमाणांत करतात. ... काडप हें चिन्न्याचें म्हत्वाचें काम. चिन्नें इन्न्या सारकेंच आसता ...इन्न्यापरस मातशें वेगळें आसता. तें आंगान जाड आसता, आनी ताचे ...ले वटेन तोंक आसता. हें तोंक बुराक मारपाक उपेगी पडटा. चिन्नींय ...-व्हड आकाराचीं आसतात. ल्हान चिन्न्यां भितर टोकिचें चिन्नें, ...टकुळें चिन्नें, चंद्र आकाराचें चिन्नें, त्रिकोनी चिन्नें, वाटकुळें चिन्नें, ...येचें चिन्नें आदी चिन्न्यांचो आसपाव जाता. ल्हान चिन्नीं लाकडाचेर ...व काम करपाक वापरतात. जाल्यार व्हड चिन्नीं कासलेटीक, तिरकतीक ... मारपाक वापरतात.

...वत :

...वत ही मेस्ताची चड म्हत्वाची अशी वस्त. खरवतीन तो आपल्याक ... त्या लाकडाचे जाय त्या मापाचे उबे आडवे कुडके करता. खरवत ...नांत ल्हान ६ इंचांची आनी व्हडल्यांत व्हडली ३ मिटरांची आसता. ...च ते १२ इंच खरवतिचो उपेग फकत कोरीव काम, डिजायन, नक्षीकाम ... बारीक नाजूक काम करपाखातीर जाता. १ फूट ते १ मिटरची खरवत ... सर्दिच्या कामाक वापरता. १ मिटर ते ३ मिटरांची खरवत व्हडलीं ...ं, रुंद खोडां चिरपाक वापरता.

...खरवत एका लांबट कडक पत्र्याच्या कुडक्यापसून तयार करतात. पत्र्याचे ...यले वटेन ताका बारीक **दांत** आसतात. खरवतिचे दांत खूब सायजिंचे ...तात. बारीक खरवतिचे दांत एका सुताचे, मध्यम खरवतिचे दांत ३ ...चे जाल्यार व्हडले खरवतिचे दांत देड सेंटिमिटरांचे आसतात. ह्या दांताक **मारतात.** वेणी मारप म्हळ्यार एक एक दांत सोडून खरवतिचो मदलो ... उजवे वटेन वा दावे वटेन मातसो बागवप. लाकूड कातरतात तेन्ना ...त लाकडाक घट्ट जावची न्हय म्हूण ही वेणी मारतात.

...डी :

...कडेन हातोडी ना ताका मेस्त म्हणप म्हळ्यार पिशेपणां. हातोडेक कांय ... **तुतयो वा धडावणो म्हणटात.** हातोडी लोखणाच्या गुळ्या पसून तयार ...ात. तिका मदीं एक बुराक आसता त्या बुराकांत लाकडाचो दाणो घालून हातोडी हातांत धरपाक मूठ तयार करतात. ही मूठ चड करून कोण्याची आसता. हाथोड्यो दोन तरांच्यो आसतात. एक हातोडी एके वटेंतल्यान खिळे मारपाक उपेगी पडटा. जाल्यार दुसरे वटेन तिका वाटकुळो बॉल आसता. ह्या वाटकुळ्या बॉलाचो उपेग खंयचेय वस्तीक वाटकुळो आकार दिवपाक जाता. दुसरे तरेची हातोडी, एके वटेन खिळे मारपाक उपेगी पडटा जाल्यार दुसरे वटेंतल्यान बावगल्ले खिळे काडपाक मेळटात. चड मोठी हातोडी आसता तिका **घण** म्हणटात. ताचो उपेग लोखण बागोवपाखातीर वा गुणे फोडपाखातीर जाता.

**तोपण :**

ग्रामीण मेस्ताक तोपणाचो चडांत चड उपेग जाता. हें तोपण लाकडाचें करतात. एक वाटकुळो लाकडाचो कुडको घेवन ताका कुशीक दोन तोंकां काडटात. एक तोंक तोपण हातान धरपाक तर दुसऱ्या तोकाक **दिरबो** लायतात. मदल्या वाटकुळ्या भागाक खळयो घालतात. कित्याक तर थंय दोरी उरता. ही दोरी एके बडयेक आसता तिका **आसणेबडी** अशें म्हणटात. सकयल्या तोंकाक दिरबो तशें वयल्या तोंकाक एके तरेचें कडक लाकूड घेवन तें उबें आनी दांबून धरूंक मेळटा. कांय मेस्त अशें कडक लाकूड वापरतात जाल्यार कांय मेस्त त्या कडक लाकडा बदला कट्टी वापरतात. कट्टी वा कडक लाकूड ते हातांत धरतात आनी आसणे बडयेचे मदतीन मदलें गोल तोपण घुंवडायतात आनी अशें घुंवडायल्ल्यान बुराक मारपाक सोंपें जाता. तोपणाचो उपेग बुराक मारपा खातीर जाता.

ग्रामीण भागांत चडशे मेस्त दिरबो खिळ्याचो वा सरयेचो करतात. कांय जाण दिरबे धवडाकडसून करून घेतात जाल्यार शारांत हे दिरबे जायत्या मापांचे विकते मेळटात. दिरब्याचें काम बुराक मारप इतलेंच आसता. दिरब्याक त्रिकोनी कानशीन धार काडटा.

**गर्बीण**

गर्बिणेचो वापर मेस्त एक सारकें रिस्कोवपा खातीर करता. मेस्ताची म्हत्वाची अशी ही वस्त. गर्बीण आसल्यार एकाच मापान रिस्कूंक जाता. तशेंच मेस्ताचें काम बेगीन जाता. गर्बीण लाकडाची केल्ली आसता. अर्द इंचाचे रुंदायेच्यो बारीक कामी घेवन तांच्या एका तोंकाक आडवे वटेन खिळ्याचें तोंक लायतात. ह्यो कामी अश्यो एकेकडेन दवरतात की तांचीं तोंकां दोन दिकांनी उरतात. दोनीय कामी एके चौकोनी फळयेक मदीं एक चौकोनी बुराक मारून त्या बुराकांत घालतात आनी त्यो कामी घट्ट उरपाक एक काल्स मारतात. गर्बीण थारायतना माप काडपाचे टेपिचो उपेग करतात. बुराक रिस्कोवपाक, खांपां रिस्कोवाक, कुसां रिस्कोवपाक अर्द खापां रिस्कोवपाखातीर गर्बिणेचो वापर करतात.

**कुट्टी वा धोपाटणी**

धाडोवपाचें काम आसत जाल्यार मेस्त कुट्टिचो वापर करता. विन्नें वा चिन्नें धाडोवपा वेळार कुट्टिचो वापर चड प्रमाणांत करतात. विन्न्याक वा चिन्न्याक लाकडाची मूठ आसता. देखून तें हातोडेन धोडायलें, थापटायलें जाल्यार ही मूठ फुटपाची भिरांत आसता. कुट्टी चौकोनी लाकडाच्या कुडक्यापासून तयार करतात. हें लाकूड चड करून शिशाचें वा मारटिचें आसता. चौकोनी लाकडाक मदीं बुराक मारून तातूंत ११/२ फुटाचो लाकडाचो दांडो घालतात. हो दांडो कुट्टी हातान धरपाक उपेगी पडटा. जें काम कुट्टी करता तेंच काम 'धोपाटणी' करता. धोपाटणी ही शिशाच्या वा हेर जडश्या लाकडाची आसता. फुडें ती चौकोनी जाल्यार फाटल्यान हातान धरपाक सोंपी अशी गोल आसता. धोलाक जशी तोणी जाय आसता तशीच विन्न्याक कुट्टी. कुट्टे बगर विन्न्याचो मेळ जायना.

### फिलफिली वा कातील :

फिलफिली ही सामान्यतायेन किसळी भशेनच आसता. पूण फिलफिलेक सकयले वटेन जी सायड फळ्याक तेंकता ते सायडीक किसळे इतले लांबायेची लोखणाची पट्टी आसतात. पट्टेचे मधोमध बारीक सुताचें पातें थंयसून भायर सरून फळयेक वा फास्केक लागता. आनी फळयेक खळी पडटा. हे फिलफिलेचो उपेग आरमार करता आसतना, दारां, जनेलां, पार्टिशन, सकल दार करता आसतना जाता. कांय लोक फिलफिलेक कातील वा खळी घालपाची किसूळ म्हणटात.

### कुरतूम :

कुरतूम ही मेस्ताची म्हत्वाची अशी वस्त. कांय जाण कुरतुमाक काटकोनय म्हणटात. कुरतुमाचो उपेग मेस्त जायत्या तरांनी करता. लाकूड एकसारकें (सपाट) आसा काय तें खंय वांकडें, वयर सकयल आसा हें पळोवपाखातीर कुरतुमाचो वापर मेस्त करता. ते भायर लाकूड जोडटा आसतना, लाकडाचेर मार्किंग करता आसतना ताचो उपेग करतात. कुरतूम हो एॅके लोखंडाचे पट्टेपासून तयार केल्लो आसता. हाका दोन, एंगला भशेन पट्ट्यो जोडलेल्यो आसतात. एके पट्टेचेर सेंटिमिटर बरयल्ले आसतात. हांचे आधारान मेस्त लाकूड रिस्कायता. कुरतुमाचो एक भाग पातळ पत्र्याचो जाल्यार दुसरो भाग ४५° एंगलाचेर फिक्स केल्लो आसता. तो आंगान जाड आसता.

### भिडी

भिडी मेस्तपणाच्या कामांत मोलाचो हातभार लायता. भिडी लांब लोखणाचे पट्टेपसून तयार केल्ली आसता. हे पट्टेक ल्हान ल्हान बारीक बुराक आसतात. तशेंच, पट्टेक आंवळून धरपाखातीर दोन वटांनी दोन पाखे आसतात. हे पाखे लाकडाक वा लोखणाक घट्ट आवळून धरपाक हातभार लायता. कितलें आंवळूंक जाय हें कळपाखातीर ट्रेड आशिल्लो स्क्रू आसता. ट्रेड तायट करतकीच तो एका पाख्याक धुकलता आनी भिडये मर्दी घातिल्लो लाकडाचो कुडको घट्ट आंवळून उरता. भिडयेचो उपेग चड प्रमाणांत मेस्त तोडस घालपाखातीर करता. तोडस म्हळ्यार ३ इंच लांब सुक्या कोण्याचे कुडके. जेन्ना मेस्त दारां करता तेन्ना तीं बरीं दिसपाखातीर तशींच घट्ट उरपा खातीर खिळे मारपाचे बदला तोडसाचो वापर करता. तोडस मारच्या वेळार दार वा फ्रेम आंवळून धरची पडटा. हें आंवळून धरपाचें काम भिडी करता. ते भायर घट्ट आशिल्ले नट काडपाखातीर लोखण घट्ट धरपाखातीर तशेच खरवतीक धाड काडच्या वेळार भिडयेचो वापर करतात.

### रूम

हो रूम लोखणाचे सरयेपसून तयार केल्लो आसता. रुमाक एके वटेन मूठ आसता तर दुसरे वटेन गोल बुराक काडपाखातीर मर्दी चेपटी धार आनी रुमाच्या तोंकाकडेन ल्हान तोकदार **बीट** आसता. चेपटी धार लाकूड कातरपाखातीर जाल्यार मदलो बीट थेयिल्ल्या जाग्यार थीर रावता.

मेस्त रुमाचो वापर मोठे, मोठे बुराक मारपाखातीर वापरता देखीक जनेलाक मर्दी वारांव घालपाचें आसता तेन्ना त्या वारांवाच्या बुराकांखातीर रुमाचो वापर करतात.

### पक्कड वा गावी

पक्कड मेस्ताक भोव म्हत्वाची. कांय जाण तिका गावी वा चिमटो अशेंय म्हणटात. चिमट्याचो उपेग घट आशिल्ले नट काडपाक, बाक्गल्ले खिळे काडपाक, लाकडा भितर मोडिल्ले खिळे काडपाक, खिळे घट्ट धरपाक आदी कामां खातीर करतात. पक्कड जाडश्या लोखणापसून तयार करतात. पक्कडेक एके वटेन हातीन धरपाक प्लास्टीक मूठ आसता जाल्यार दुसरे वटेन आंवळून धरपाखातीर दोन पाखे आसतात. आमी मूठ आंवुळटात तशें तोंड उगडिल्ले भशेन ती आपले पाखे उगडटा. आनी मुठिचेर ताण दिलो की ती आपलें तोंड धांपता आनी आंवळून धरपाचें काम क

### साणशी वा चिमटो

साणशी दान लोखणाच्या सरयांपसून तयार करतात. ही सरी स पातळ करून थंय नट-बोल्ट घालून साणशी तयार करतात. सा धवड लोक तयार करतात. पक्कड जें काम करता तेंच साणश पूण साणशेचें काम मात्शें वेगळें आसता. साणशी गरम तापले धरपाक, शेणे धरपाक हे खातिरूय वापरतात.

### खोलासणी वा तासणी :

चड करून खोलासणी धवडा कडसून करून घेतात. गांवांतलो आपूण करता. हे खोलासणेक सकयले वटेन पातें आसता जाल वटेन दाणो घालपाखातीर एक गांठ आसता हे गाठींत कोण्याचो द मूठ तयार करतात. पात्याक पालशी धार आसता. ओबड-खोबड आकार दिवपाक, माडाचे वांशे काडपाखातीर, तशेच वांकडे करपाखातीर, नांगर करपाखातीर, पनेळ करपाखातीर, थोरूं घा बी करतात.

### निसाणो :

जर मेस्ताकडेन निसाणो ना तर इन्नें चिन्नें किसूळ आसून कांय ना. निसाण्याचो उपेग मेस्त धार काडपाखातीर करता. निसाण बाजू आसतात. एक खरखरीत जाल्यार दुसरी सुळसुळीत. खरख पात्याक धार लावपाचें काम करता. जाल्यार दुसरी बाजू तें करपाचें आनी तें मेळोवपाचें काम करता.

कानस ही एक धार काडपाची वस्त. मेस्त काय आयुदांची धार नि काडटा जाल्यार कांय आयुधांची कानशीन काडटा. पातें, इन्नें, वि खोलासणे फिलफिलेचें पातें, आदी आयुदांक तो निसाण्याचेर ध जाल्यार दिरबो, खरवत, दिसफीस, रूम सारकेल्या आयुदांक धार काडया. कानस लोखणा पसून तयार करतात. ती त्रिकोनी त्रिकोनी आशिल्ल्या कारणान खरवतेचे दांत घांसपाक वा धार ती चड बरी उपेगी पडटा.

### शेणें :

शेणें कडक लोखणापसून तयार करतात. लोखण कातरपाक, खिळ लाकूड फोडपाक बी असल्या कामांखातीर शेण्याचो उपेग मेस् ह्या शेण्याची सकयली सुवात पालशी आनी धारदार आसता.

मेस्ताक लागपी मुखेल आवतांची थोडे भितर वळख करून घेत तांचो मेस्ताक कसो उपेग जाता हें पळोवचे नदरेन आमी मेस् कशी तयार करता वा खाट तयार करतना मेस्ताक आपलीं खंय आयुदां वापरचीं पडटात तें पळोवंया. हांगासर आमची खाट लाकडी हें मतींत दवरप गरजेचें. सगळ्यांत पयलीं मेस्त आपणाक जाय तस पळयता आनी घरा हाडून खोलासणेन तें फोडून खाटीक जाय तसले कुडके तयार करता. उपरान्त तासणेन तासून ताका जाय तस दिता. आनी उपरान्त बांकाचेर वा सपाट जाग्यार दवरून ताक मारता. आनी लाकडाची खडबडीतसाण ना करता. किसूळ मार जाल्लें लाकूड उपरान्त गर्बिणिच्या आधारान रिस्कायता आनी इ चिन्नें घेवन आपणाक जाय थंय बुराक मारता. आनी बिडयेच्या दोन खुंटे तोडस घालून जोडटा. इतले भितर खाटिची आयट तय आनी खरवतेच्या आधारान तयार केल्ली फळी लाकडाचे आयटि खाट तयार जाता. उपरान्त परत बेटो घेवन खाट सुळसुळीत कर परत पॉलीश पेपर घेवन उरिल्ली खडबडसाण नितळ निवळ क निमाणे कडेन पॉलीश मारून खाट तयार जाता.

ही जाली सादी खाट. कांय मेस्त खाटेक आपणाक जाय तशें कोरीव ाम करून खाटेची सोबितकाय वाडयतात आनी ते खाटिचें मोल उपरान्त ड्पटीन वाडटा.

काळाप्रमाण मनीस जसो बदलत गेलो तसो मेस्ताचो धंदो बदलत गेलो सुधारत गेलो, अशेंय म्हणूं येता. पयलीं खरवतेन दिसांचे दीस जीं कामां : करतालो तींच आतां 'कटराच्या' आधारान वरां भितर जावंक पावतात. का लागून मेस्ताचो बरोच वेळ वाटावता. तेच प्रमाण पयलीं हातांनी किसोवप ेंच कुस्तार वतालें. वेळय खूब वगडावतालो. आयज प्लॅनर मशीन ायिल्ल्यान किसोवपाकय कळाव लागना. पयलिंच्या तेंपार लाकडाक बुराक ारचे जाल्यार ते तोपण घेवनूच मारचे पडटाले आनी हाका बरीच कास्तीक डटाली. पूण आयज ड्रील मशीन आयिल्ल्यान मेस्ताचो बरोच वेळ आनी ंक वाटावता. तेच प्रमाण मेस्ताचे कश्टांचे वृत्तिची पावती म्हूण आमकां स्ताच्यो 'मॅकानिकल गॅरेजी'य पळोवपाक मेळटात. आयज सरकारी विद्ध्याचेर आय.टी.आय.त लेगीत मेस्तकामाचें प्रशिक्षण दिवपाचें काम लता. हे वरवीं मेस्ताच्या भुरग्यांक बरे दीस येवंक लागल्यात. पारंपारीक मेस्तां वांगडा हेर लोकय मेस्तपणाचें प्रशिक्षण घेवंक लागल्यात. हाका लागून पारंपारीक मेस्ताचेर हावळ येतली काय कितें असो हुस्को कांय जाणांक दिसूंक लागला. आनी मेस्तान हेर धंद्यांनीय लक्ष घालां.

आयज मेस्ताक बरे दीस आयल्यात हातूंत दुबाव ना. पूण तरी मेस्ताची भर जाली अशें मात केन्नाच जालें ना. हांगा म्हाका याद जाता ती म्हादेवान विश्वकर्माक दिल्ल्या स्रापाची. जेदे वेळार विश्वकर्मान म्हादेवाक पाशुपत्तअस्त्र घडोवन दिलें तेदे वेळार ताचे कलाकृतिचेर खूश जावन म्हादेवान ताका जाय तें माग अशें म्हळें. तेदे वेळार विश्वकर्माचो 'हांव' जागो जालो. त्या नेटाभरशीं ताणें म्हळें, 'हांवेनूच तुका अस्त्रां तयार करून दिल्यांत. तूं आनी म्हाका कितें दितलो ?' हें आयकून म्हादेवाक राग आयलो आनी ताणें विश्वकर्माक म्हळें, ''एक मतींत दवर – तुवें कितलेंय काम केलें तरी तुची भर मात केन्नाच जावची ना.'' तेन्नासावन मेस्ताची भर म्हण्टा ती जालीच ना. ना म्हळ्यार हालींसराक हो म्हादेवाचो स्राप निवळत आयला अशेंच म्हणचें पडटलें. आनी देखूनच मेस्त मेस्तपणा वांगडाच हेर कामांनीय नांवालोकिकाक पावोन जेवन-खावन बरो आशिल्लो दिसूंक लागला.

* * *

---

## ाच्या हातांत दांडो ताची म्हस

बाबुशाक कुळागराचो एक दांडो पडिल्लो. तोच ह्या दांड्याचो आतां धनी जाल्लो. कोणाक आतां खंड बींड भरपाचो नाशिल्लो. सुपारी विकून तो ्यशे बँकेंत जमा करूंक लागलो. खात्यार पांच हजारां वयर रुपये जमा जाले तेन्ना ताणें चिंतलें, 'आतां एक म्हस घेतिल्ली बरी. म्हशिचें दूद मेळटलें. ् भुरग्यांक पियेवंक मेळटलें. उरिल्लें विकूंक मेळटलें. ते भायर शेण मेळटलें. तें सान्याक उपकारा पडटलें. तो उठलो. बँकेंत गेलो. खात्यार साडे ांच हजार जमा जाल्ले. तांतले पांच हजार काडले आनी ते घेवन तो तिस्कार गेलो. थंय घांटा वयले लोक म्हशी विकपाक घेवन येताले. पांच म्हशी ाणें पळेल्यो. दोन सात सात हजारांच्यो. दोन णव हजारांच्यो. एक धा हजारांची. धा हजारांची म्हस ताका घेवची-शी दिसली. बारा शेर दूद दिताली. ्णून धा हजार ताचेकडेन नाशिल्ले. तो मुखावयल्या एका गाड्यार मोन्यांनी वचून बसलो.

तीनसांज जाली. सात सात आनी णव णव हजारांच्यो म्हशी स स आनी आठ आठ हजारांक लोकांनी व्हेल्यो. धा हजारांची उरिल्ली. बाजार उलगता ासतना म्हस विकपाक घेवन आयिल्ल्या घांटयान बाबुशाक पळेलो. ताका आपोवन विचारलें, 'तूं म्हस घेवपाक आयिल्लो न्हय ?'

'हय, पुणून धा हजार म्हजेकडेन नात.'

'कितले आसात ?'

'पांच हजार.'

'हाड ते हांगा आनी व्हर ती म्हस', घांटयान म्हळें. बाबुसो खुशालभरीत जालो. पांच हजार दिवन ताणें धा हजारांची म्हस घेतिल्ली. म्हस आनी ्डूक घेवन तो घरा वचपाक भायर सरलो. एके आडवाटेन तो गेलो. ती वाट लागिंची पुणून दोंगरा वयल्यान वताली. अर्दे वाटेर पावपाक ताका एक ोर मेळ्ळो. चोरान ताका विचारलें, 'ए... म्हस घेवन खंय वता ?... म्हस म्हजी...'

'सायबा, हांवें पांच हजार दिवन ती विकती घेतल्या.'

'म्हाका सांगता ? म्हजे म्हशीक हांव वळखना ? तुवें ती म्हज्या गोठ्यांतली चोरून हाडल्या.' चोरान म्हळें.

'न्हय सायबा... हांवें चोरून हाडूंक ना... विकती घेतल्या...'

चोरान आपणालो दांडो ताचेर उखल्लो आनी विचारलें, 'सांग, म्हस कोणाची ?'

'तुजी...' बाबुशान भियेवन जाप दिली.

'हाड तर ती हांगा.' चोरान म्हळें. बाबुशान म्हस मोन्यांनी चोरा सुवादीन केली. चोर म्हस घेवन उरफाटे दिकेन वचपाक लागलो. बाबुसो थोडो ाळ म्हशीक पळेत रावलो. मागीर ताणें चोराक म्हळें, 'हांव आतां जाणटो जालां. घरा पावपाक अजून तीन कोस म्हाका चलचे आसात. तुज्या हातांत ासा तो दांडो म्हाका तुवें दिलो जाल्यार दांडो जमनीक तेंकयत तेंकयत घरा वतलों आशिल्लों... काळोख जाला आनी म्हाका सारकें दिसना...'

चोराक ताची काकूळट दिसली. बावडो फटवला... दांडो दिवया ताका. एका दांड्याक म्हस मेळ्ळी अशें जातलें', ताणें मनांत म्हळें आनी दांडो काडून ाणें बाबुशाक दिलो. बाबुशान दांडो हातांत घेतलो आनी चोराचेर तो उबारून म्हळें, 'सांग, ही म्हस तुजी ? खरें सांग... ना जाल्यार तुजे तकलेर ांडो हाणटलों.'

बाबुशाचो किंवाटो पळोवन चोर भियेलो. 'ना सायबा, म्हस म्हजी न्हय... म्हस तुजी...' ताणें भियेवन म्हळें.

'हाड तर ती.'

चोरान म्हस ताचे सुवादीन केली. बाबुशान ताका विचारलें, 'निकतोच तूं म्हसं आपणाली म्हणटालो न्हय रे ? आतां म्हस म्हजी कशी जाली ?

'जाच्या हातांत दांडो ताची म्हस, हो न्याय चलता ह्या संवसारांत... ओदोळ दांडो म्हज्या हातांत आशिल्लो. आतां तुज्या हातांत आसा.' चोरान ाप दिली.

# तथागत
[सोळावी खिस्त]

## बुद्‌धमत्ताचो विकास – ३

भाबऱ्याच्या फातरपट्ट्यावयलीं हीं सातूय सुत्तां सारकीं नियाळून पळोवचीं. म्हणटकूच कांय गजाली स्पस्ट जातल्यो–

बुद्धाच्या नांवान चलिल्ले अठराय संप्रदाय बुद्धाचें नांव घेताले, बुद्धाचोच वावर मुखार व्हरतात अशें मानताले खरे. पुणून बुद्धमार्ग हो चार आर्य सत्यांचो आनी चौथ्या आर्य-सत्यांतल्या आठ आंगांचो मार्ग आशिल्लो म्हणपाचें ते साप्प विसरिल्ले. तत्त्वज्ञानाच्या तरांतरांच्या तर्कवितर्कांत आपणाक घुसपावन घेवन सगळे खंयचे खंय व्हांवन गेल्ले. बुद्ध-मार्ग हो सादेपणाचो आनी संयमाचो मार्ग म्हणपाचेंय विसरून आशादोशी जाल्ले. अंदुखे जावन आपणाली तुस्त आनी दुसऱ्यांची निंदा करपांत गुल्ल उरिल्ले. पयसलें पळोवपाची आनी बरें-वायट पारखुपाची तांक होगडावन आळशी जाल्ले. उथळ उदका भाशेन खळखळपी वा घसघशा भाशेन कोसळपी जाल्ले. धीर गंभीर आनी संथपणान चलूंक जाय म्हणपाचें विसरिल्ले. फटी मारपी जाल्ले. हांकां सगळ्यांक 'बाबानों, बुद्धमार्ग खरो तो हो,' ह्या सात सुत्तांत आयला तो. ह्या सुत्तांक धरून चलात' हें समजावन तांच्यांत भितर समन्वय घडोवन हाडपाचो अशोकाचो हो यत्न आशिल्लो म्हणपाचें स्पस्ट दिसून येता. ह्या सात सुत्तांनी सगळ्यांक गुंथून काडले जाल्यार अठराय संप्रदाय आपणालें खेरीतपण सोडी नासतना एकठांय येवं येतात अशें ताका दिसतालें जावंक जाय अशें म्हणचें पडटा. म्हूण तो हीं सात सुत्तां पाठ करात, तकलेंत भौन भौन घोळयात अशें सांगपाक लागिल्लो.

भाबऱ्याकूच हो फातरपटो मेळ्ळा हाचो अर्थ भाबऱ्याच्याच बौद्धांक ताची ही सांगणी आशिल्ली असो करूंक फावना. हेर कडच्या बौद्धांकूय ताणें हें सांगिल्लें आसूंक जाय. कित्याक, बौद्धां मजगतीं देशभर धोशी चलताल्यो. पुणून, दुसरेकडेन खंयच हे तरेचो फातरपटो मेळूंक ना म्हूण केन्नाच मेळचो ना अशें म्हणूंक येना.

अशोक इतल्यार थांबूंक ना. बुद्ध-मत्ताची विसकटिल्ली घडी परती सारकी करची ह्या हावेसान ताणें पाटलीपुत्राक बौद्ध जाणकारांची तिसरी संगीती घेतली. देसभराचे एक हजार जाणकार हे संगीतींत वांटो घेवपाक आयिल्ले. मोग्गलीपुत्त तिस्साचे अध्यक्षते खाला एका सारके णव म्हयने वावरून तांणी विनय आनी धम्म दोनूय पिटकां घांसून पुसून निवळ केलीं. हे संगीतींत तिस्सान 'कथावत्थु' नांवाचो एक ग्रंथ बरयलो आनी अठराय बौद्ध संप्रदायांची स्थवीरवादी नदरेन तर्जणी करून तांचे भितरल्या कांय संप्रदायांचेर पडिल्ले पाखंडी (= ब्राह्मणी) संस्कार उक्ताडा हाडले. हे संप्रदाय बुद्धाच्या नांवान चलतात जाले तरूय ते बुद्धाचे न्हय म्हणपाचें ताणें दाखोवन दिलें.

हे संगीती उपरांत अशोकान कांय फर्मानां काडलीं. सारनाथ, सांची आनी कौशांबीक मेळिल्ल्या फातरपट्ट्यांचेर तीं वाचूंक मेळटात. सारनाथाक मेळिल्ल्या फातरपट्ट्यांत तो आपणाल्या महामात्रांक 'आज्ञा' करून सांगता, संघांत कोणूच फूट घालचो ना (हाची जतनाय घेयात). कोणेंय घालपाचो यत्न केलो जाल्यार – तो भिक्खू आसूं वा भिक्खुणी – (ताच्या आंगावयलें भगवें चिवर काडून घेवन) ताका धर्वी वस्त्रां न्हेसोवचीं आनी संघांतल्यान ताका भायर धांवडावन घालचो... तुमच्या लक्षांत सदां हें उरचें – आनी लोकांकूय कळचें – म्हूण आपणें हो फातरपटो तुमी बसतात थंयच दवरला.

सांचीक मेळिल्ल्या फातरपट्ट्यांत तो म्हणटा, 'संघ फुटचो न्हय, तो तिगून उरचो म्हूण आपणें सगळे तरेचे यत्न केल्यात. तरी आसतना फूट घालपाचो यत्न करीत जाल्यार ताका (धर्वीं वस्त्रां न्हेसोवन) स भायर घालचो.' कौशांबीक मेळिल्ल्या फातरपट्ट्यांतूय संघांत फूट घा भिक्खू-भिक्खुणीं विशिंची आपणाली तिडक ताणें हेच तरेचे 'अ रुपान उकतावन दाखयल्ली पळोवंक मेळटा.

अशोक क्षमाशीळ आशिल्लो. कोणेंय कसलीय चूक केली जाल्यार, हे मुखार धर्माक धरून चलपाचो यत्न कर... हे खेपे हांव तुका क्षमा अशें म्हणटालो. आनी ताका सोडून दितालो. तोच अशोक संघांत बु करतल्यांक मात लेगीत दयामाया दाखयनासतना 'दंडा'चो उपेग ख्यास्त फर्मावपाक लागिल्लो. हाचे वयल्यान बौद्ध संप्रदाय आडांगपणां करूंक लागिल्ले जातले हाचो अदमास करूं येता.

## देशा भायर धर्मप्रसार

अशोकान दोन गजाली केल्यो. एक, बुद्ध धर्माक ताणें राजधर्माच्या बसयलो. आनी दुसरी, देशांत आनी देशाभायर वेगळे वेगळे कडे धर्मप्रसारक धाडून दिले. महादेवाक महिषमंडळांत (आंध्र मैसूरच्या वाट रख्खिताक वनवासींत (मैसुराचे अस्तमतेक दर्या देगे वयल्या वाट धम्मरख्खिताक अपरान्तकांत (मुम्बयचे उत्तरे कडल्या वाट महारख्खिताक यमन लोकांत (पेशावराक), मज्झिमाक हिमा मध्यांतिकाक काश्मिरांत आनी महिन्दाक श्रीलंकेंत धाडून दिले. ते सीरिया, इजिप्त, सायरेन, मासेदोनिया, एपिरस सारकेल्या भायल्या दे कांय जाणांक ताणें धर्मप्रसाराचें काम दिवन धाडून दिल्ले म्हणपाचें फातरपट्ट्यां वयल्यान दिसता.

जें धर्ममत्त ते मेरेन मध्यदेशांत आनी थोडें भोव देशांत हांगा थंय च तें अशोकाच्या काळांत विश्वधर्म जावपाच्या हावेसान देशा भायर च लागलें. आपणाले जल्मभुंयेंत बंदिस्त रावी नासतना भायर वचपी भायल्या लोकांक आपणाल्या गोपांत आसपावन घेवपी संवसारांतलें प धर्ममत्त हें.

कांय शतमानां उपरांत आनीक दोन धर्ममत्तां आपणाली जल्मभूंय भायर गेल्यांत. पुणून वतना तीं एका हातांत तरसाद आनी दुसऱ्या आपणाले जल्मभुंयेंतली संस्कृताय घेवन गेल्यांत. जंय जंय पावल्यांत थंयच्या थळाव्या लोकांचे भेस, तांच्यो भासो, चालि-रिती, इतलेंच तर नांवां लेगीत तांणी बदल्ल्यांत. एका धर्ममत्तान वचत थंय गांवठी ये निर्माण केल्यात. तर दुसऱ्यान गांवठी अरब केल्यात. बुद्धमत्तान कितेंच करूंक ना. तें आपणा वांगडा फकत विचार घेवन गेलां, त घेवन वचूंक ना. आनी जंय पावलां थंयचे थळावे संस्कृतायेक ताणें लेगीत बादा येवंक दिवंक ना. देखून, तिबेटी मनीस धर्मान बौद्ध तरूय संस्कृतायेन तिबेटीच उरला. चिनी चिनी उरला, जपानी जपानी तांच्यो चाली-रिती, भास भेस, नांवां, कितेंच बदलूंक ना. तांचेर ताणें केन्ना चलोवंक ना.

## श्रीलंकेंत बुद्धमत्त

धर्मप्रसारा खातीर देशा भायर गेल्ल्या भिक्खूंत श्रीलंकेंत गेल्ल्या महि (महेन्द्राचें) नांव मात्शें गाजलां. ताका कांय कारणां आसात.

महिन्द अशोकाचो खास्सा पूत. विदिशा हें तागेलें आजोळ. थंय तो चौग सांगात्यांक घेवन श्रीलंकेक गेलो. तो पावचे पयलीं ताच्या बाप – अशोकाची – नामना थंय पाविल्ली. श्रीलंकेंत तिष्य नांवाचो सिंहली राजा राज्य करतालो. ताणेंय महिन्दा कडल्यान सगळ्यांत

ुद्धधर्माची दीक्षा घेतली. तिष्यान ताका श्रीलंकेंत दोन विहार बांदून दिले. अनुराधापुराक. दुसरो महिन्तले नांवाच्या एका बंदरार. अनुराधापुरच्या ाराक आयज महाविहार ह्या नांवान लोक वळखतात. आनी महिन्तले ंतल्या विहाराक चेतीय पस्बत विहार म्हणटात. कांय दिसांनी महिन्दाची ण संघमित्ता कांय भिक्खुणींक घेवन श्रीलंकेंत आयली. येतना धेगयेंतल्या बोधिसत्वाची एक ताळी घेवन आयली. आयज हे ताळयेचो आकांताचो व्हड रूख जाला. धर्तरेचे फाटी वयलो सगळ्यांत जाणटो -दोन सवाय दोन हजार वर्सांचें पिरायेचो – एक रूख हो. महिन्द आनी मित्ता दोगांयच्या वावराक लागून बुद्धधर्म हांगासरल्यान ब्रह्मदेश, काम्बोज, याम सारकेल्या दक्षीण-उदेंत देशांनी पातळूंक लागलो.

सुत्त, विनय आनी अभिधम्म हीं बुद्धमत्ताचीं तिनूय आंगां आतां मेरेन क्खू-भिक्खुणिंचे जिबेरूच घोळत आयिल्लीं. ख्रिस्ती शतमाना आदल्या चाळिसाव्या वर्सा वट्टगामिणी अभयाचे राजवटींत महाविहारांतल्या ाकारांनी बुद्धाचे शिकवणेचीं हीं तिनूय आंगां बरोवन काडपाचो वावर ांत घेतलो. सुमार पांचशीं जाणकार एकठांय बसून तांणी ही सगळी कवण बरोवन काडली. 'हे मुखार कोणाक तातूंत भर घालपाचो वा बदल पाचो अधिकार मेळचो न्हय' अशें थारावन पुराय शिकवण तीन पेटाऱ्यांनी न दवरली. बुद्धाचे शिकवणेक त्रिपिटक हें नांव पडलां तें हे खातीर.

हो एक व्हडलो वावर हांगा जालो.

दुसरोय एक म्हत्वाचो वावर श्रीलंकेंतल्या ह्या महाविहारांत जालो. ख्रिस्ती . ४०९-४३१च्या काळांत बुद्धघोष नांवाचो एक विद्वान बोधिगयेकसून ा आयलो. ताणें त्रिपिटकाची अर्थावणी बरयली – जिका 'अट्टकथा' णटात. हे अर्थावणे भायर बुद्धघोषान 'विशुद्धिमग्ग' नांवाचो एक खेरीत ूय हांगाच बसून बरयला. जाणकार अट्टकथेक आनी विशुद्धिमग्गाक पिटका इतलेच म्हत्वाचे ग्रंथ मानतात.

मर्दी ख्रि.स. ३६२-४०९च्या काळांत मेघवर्णाचे राजवटींत बुद्धाचो एक त हांगा पावला. तो अभयगिरी विहारांत आयजूय पळोवंक मेळटा.

बुद्धमत्ताक श्रीलंकेंत त्रास जालो तो सतराव्या शतमानांत गिजांकडल्यान. सांगल्यार धसको बसतलो – हिन्दुस्तानांतल्यान ना जाल्लो धधर्म परतो हिन्दुस्तानांत हाडपाच्या वावरांत जाचो मोलाचो हातभार गला त्या धर्मानन्द कोसंबींच्या सांखवाळ गांवच्या एका गोंयकार द्रीकडल्यान, पाद्री जुझे वाझाकडल्यान. हो एक ल्हानसो काळ सोडीत ल्यार बुद्धधर्म थंय हुस्क्या मेकळो चलत रावला. आयजूय श्रीलंकेक ासाराचे फाटी वयलें स्थवीरवादी बौद्धांचें एक म्हत्वाचें थळ ह्या रुपान क वळखतात.

एक आडकथा सांगपाची उरली –

अशोका उपरांत पुष्यमित्र शुंगाचे राजवटींत ब्राह्मणांनी बौद्धांचो आकांताचो ळ केलो. त्या उचांबळायेच्या काळांत एका धर्मकोल्ली ब्राह्मणान गयेंतलो धिरूख तिडकीन कातरून उडयलो. आयज जो रूख बोधिगयेंत पळोवंक ळटा तो उपरांतच्या काळांत श्रीलंकेंतल्या रुखाची ताळी रोवन बौद्धांनी र काडिल्लो.

## ह्मणांनी घेतिल्लो सूड

स धारे सकल वचनाफुडें सगळेकडेन काळोख पातळटा तसो अशोकान ळे धांपिनाफुडें मौर्य साम्राज्याचेर काळोख पातळ्ळो. सगळ्यांत व्हडलें रतीय साम्राज्य हें इतिहासकाळांतलें. अशोकान आपणालें रगत आटोवन घटमूट केल्लें पुणून अशोकाचे गादयेर ताचो पूत कुणाल बसनाफुडें ताचें घटन सुरू जालें. सगळ्यांत पयलो उत्तर अस्तम वाटार साम्राज्यांतलो टलो. म्हणटासर काश्मिराचो वाटार स्वतंत्र जालो. कुणालाचो पूत दशरथ जगादयेर बसनाफुडें कलिंग राज्य साम्राज्यांतल्यान फुटून भायर सरलें.

केन्द्र दुबळें पडिल्लें. सगळ्यांक एकठांय दवरपाची ताकी तांकूच ना जाल्ली.

मौर्य साम्राज्यांत मातिल्ली बेबंदशाय आळाबंदा हाडपा खातीर पुष्यमित्र शुंग मुखार सरलो. तो सेनापती मौर्य साम्राज्याचो. ताणें निमाण्या मौर्य सम्राटाची – बृहद्रथाची हत्या केली आनी सत्या आपणा हातांत घेतली.

पुज्यमित्र जातीन ब्राह्मण आशिल्लो. ताणें महाभाष्यकार पतंजलीक आपणालो पुरयत केलो आनी चक्रवर्ती राजा जातलों ह्या हावेसान दोन अश्वमेधयज्ञ केले. पतंजलीच ह्या यज्ञांचो अध्वर्यू आशिल्लो.

पतंजलीन आनीक एक म्हत्वाचें पावल घालें – राजधर्माच्या पाटार आशिल्ल्या बुद्धधर्माक निखळावन ब्राह्मणधर्माक थंय बसयलो.

तीन साडे तीन शतमानां सावन निर्शेवन, खर्शेवन निर्णून पडिल्ल्या कर्मठ ब्राह्मणांनी रोखड्योच तकल्यो वयर काडल्यो. बुद्धाक आनी ताच्या धर्ममत्ताक लागून इतलीय हीं वर्सां समाजांत तांकां कोण विचारी नाशिल्लो. वेदीक काळा सावन ते यज्ञयागांचेर पोट भरीत आयिल्ले. बुद्धान यज्ञयागांची प्रतिष्ठाच ना करून उडयल्ली. कोण यज्ञयाग करी नाशिल्लो. समाज चलत आयला तसोच तो सासणाचीं सासणां चलत राविल्लो ब्राह्मणांक जाय आशिल्लो. समाजांत कसलोच बदल घडून आयिल्लो तांकां नाका आशिल्लो. समाज चलत आयला तसोच चलत उरचो हे खातीर तांणी एक वर्ण-वेवस्ता रचून काडिल्ली. समाजाचे चार वर्ण करून त्या त्या वर्णा खातीर तीं तीं कामां तांणी नेमून दिल्लीं. आनी सगळ्यांनी तांगेल्या ह्या स्वधर्माक – कुळधर्माक, वर्णधर्माक – धरून चलचें अशें ते सांगीत आयिल्ले. जांचे हे वर्णविवस्थेंत घुस्मटमार जातात तांणी समाजांतल्यान भायर सरचें, रानांत वचचें आनी आत्मो वा देव, जाय तें जोडचें, पुणून खंयचेच परिस्थितींत लोकांचो बुद्धिभेद करून समाजाची घडी विस्कटावची न्हय हो तांचो दंडक आशिल्लो. बुद्धान तांगेली ही 'वेवस्ता'च मोडून उडयल्ली. जल्मान कोण ब्राह्मण जायना, करणेनूच मनीस ब्राह्मण जाता; म्हूण मनशान वायट करण्यां पसून पयस रावचें आनी बऱ्यो करण्यो करीत रावचें अशें ताणें लोकांक शिकयल्लें. मोक्षाचो अधिकार ब्राह्मणांनी फकत आपणा खातिरूच राखून दवरिल्लो. बुद्धान तो सगळ्यांक दिवन उडयल्लो. ब्राह्मणां वांगडा क्षत्रीय, वैश्य आनी शुद्रूच न्हय, तर अतिशुद्रूय ताच्या संघांत मोक्ष (= निर्वाण) जोडपाक वावरूंक लागिल्ले. समाजाच्या आनी अध्यात्माच्या मळार बुद्धान सामकोच 'वर्णसंकर' घडोवन हाडिल्लो. तागेलें सगळ्यांत चड तिडक मारपा सारकें काम म्हळ्यार, देवूय ना आनी आत्मोय ना म्हूण ताणें लोकांक शिकयल्लें. तुमची उदरगत तुमीच केल्यार जावपाची, आत्मोय ती करपाचो ना, देवूय करपाचो ना अशें लोकांक शिकयल्लें. तो वेद मानी नाशिल्लो, शास्त्रांय मानी नाशिल्लो. ताचें कितें करचें तेंच ब्राह्मणांक समजनाशिल्लें. करतले म्हळ्यार कितेंच करूंक मेळनाशिल्लें. कित्याक, अख्खें जग ताचे भोंवतणीं आनाळ्यो-गुनाळ्यो काडपाक लागिल्लें. बारीक दुबळे सगळे ताचे फाटल्यान गेल्ले. व्हडले व्हडले श्रेष्टीय ताच्या नादाक लागिल्ले. सुधारक ब्राह्मणूय ताका माथ्यार घेवन वचपाक लागिल्ले आनी अशोकान तर ताच्या धर्माक राजधर्माच्या पाटार व्हरून बसयल्लो.

कर्मठ ब्राह्मण दांत वोंठ चाबून दंश धरून बशिल्ले.

पुष्यमित्राचे इत्सेन पंतजलीन ब्राह्मणधर्माक राजधर्माच्या पाटार बसयनाफुडें ते फुरफुरत मुखार आयले. इतलीं वर्सां दांबून दवरिल्ली तांगेली तिडक उसळून वयर आयली आनी ब्राह्मण किंवाट्यान मध्येदेशांतलें बुद्धमत्त पाळांमुळांसयत हुमटावन काडपाक वावरूंक लागले. तांणी कितलेशे स्तूप मोडून मातयेभरवण केले. विहारांचेर घुरयो घालून भिक्खू-भिक्खुणिंच्यो गोमट्यो कचाकच कातरून उडयल्यो. भिक्खुंच्यो गोमट्यो कातरून हाडटल्यांक ते तसरिपो दिवपाक लागले. बौद्धांची दानाधिस्पट करपाक जितलेंय करूं येतालें तितलेंय केलें.

सुमार छत्तीस वर्सां तांचीं हीं धुमशेणां चल्लीं.

बौद्धां मुखार एकूच उपाय उरिल्लो. ते मध्यदेश सोडून गेले. तांचे अठरा संप्रदाय आशिल्ले. तांतलो स्थवीरवादी संप्रदाय चैत्य पर्वतार (सांचीक) गेलो. सर्वास्तिवादी उरुमूंड पर्वतार (मथुरेंतल्या गोवर्धन पर्वतार) वचून रावलो. बाकिचेय हेवटेन तेवटेन शिंपडले.

बौद्ध मध्यदेश सोडून वचनाफुडें ब्राह्मणांनी इतलीं वर्सां बंद पडिल्ले यज्ञयाग परते मोट्या दबाज्यान सुरू केले. वैदीक कर्मकांडां आनी अनुष्ठानांय नेटान चलयलीं. संस्कृत भास घोळटिकेंतली ना जाल्ली. तिका जीवदान दिवन मानाची सुवात मेळोवन दिली. नवीं पुराणां बरोवन घेतलीं. रामायण महाभारतांत नवी भर घालून तांचे नवे पाठ सुरू केले. तें कित्याक, मोडून पडिल्ली वर्ण-वेवस्ता परती चालीक लावपा खातीर 'मनुस्मृती' तयार करून घेतली. तिका घटनेचें रूप दिलें आनी युद्धाक फाट करपी धर्मविजयान न्हय, तर सैन्यबळ वाडोवन देश घटमूट करूंक जाय ही राजनीत चालीक लायली.

## मिलिन्द

पुणून इतलेंय हें फकत पुष्यमित्राचेच राजवटींत घडलें. शुंग घराण्याचो शेक एकशें बारा वर्सां चल्ला. पुष्यमित्रा उपरांत शुंग घराण्याचे जे राजकुंवर सत्येर आयले ते ब्राह्मणधर्माचो पाखो घेवपी नाशिल्ले. बुद्धाक मानपी आशिल्ले. भारहतच्या स्तुपाचें तोरण ह्याच घराण्यांतल्या धानभूती राजान बांदून दिलां. सांचीच्या स्तुपाचे बांदणेकूय हांचो हातभार लागला. धा राजा ह्या घराण्याचे जावन गेले. पुणून एकल्याकूय सस्ततायेन राज्य करूंक मेळ्ळें ना. हाचे ताचे आड झुजपांतूच तांची सगळी शक्ती खर्चली. निमाणो देवभूती सत्येर आसतना वसुदेव नांवाच्या तागेल्याच एका सेनापतीन ताची हत्या करून सत्या आपणा हातांत घेतली.

वसुदेव कण्व कुळयेंतलो ब्राह्मण आशिल्लो.

उपरांत, अशांततायेचें जें वातावरण देशांत चलपाक लागलें तें अखेरेक विदेशी लोकांक हांगा घेवन आयलें. सगळ्यांत पयले आयले युनानी — इण्डोग्रीक. हिन्दुकुश पर्वत आनी ऑक्सन न्हंय हांचे मदल्या बॅक्ट्रिया वाटारांत तांचें राज्य चलतालें. सिकंदरा वांगडा ते आयिल्ले आनी सिकंदराक सोडून हांगा राविल्ले. हिन्दुस्तानांतल्या घडामोडिंचेर नदर लावन बशिल्ले. अशोकाच्या मरणाची खबर आयकनाफुडें तांगेलो राजा डेमेट्रियस हिन्दुस्तानाचेर चाल करून आयलो. काबूल आनी पंजाब घेवन तो पाटलीपुत्र घेवपाक मुखार गेल्लो, कलिंगचो खारवेल ताच्या आंगार धांवन आयलो. पुष्यमित्रूय ताचेर जुटून गेलो. दोगांयनी ताका मध्य देशांतलोच न्हय, तर पंजाब काबूलच्याय वाटारांतलो धांवडावन घालो. सिंधु न्हंये पेलेकडेन व्हरून पावयलो. पुणून —

तो परतो आयलो आनी आयलो तो हांगाच रावपा खातीर आयलो. उत्तर अस्तमेचो वाटार ताणें आपणा हातांत घेतलो आनी थंयच पांय घट्ट रोमून रावलो. साकल (स्यालकोट) हें ताचें राजपाटण आशिल्लें.

ह्या घराण्यांतलो एक राजा मिनाण्डर बौद्ध बरपावळींत मिलिन्द ह्या नांवान खूब नांवाजतो जाला.

ताका एक खोड आशिल्ली. तो व्हडल्या व्हडल्या बुदवंतांक मेळटालो. तांचे कडेन वाद घालतालो आनी तांकां वादांत हरयतालो. 'विचारांच्या मळार हें जम्बूद्वीप सामकें रितें, सामकें पोकळ, हांगा कोणाच कडेन कसलोच विचार ना' ह्या निर्णयार तो पाविल्लो. ताका आपणाले ग्रीक परंपरेचो व्हडलो अभिमान आशिल्लो. आसपाचोच. कित्याक, संस्कृतायेचे नदरेन ग्रीक परंपरा भारतीय परंपरे इतलीच पोरणी आनी गिरेस्त आशिल्ली. मुर्तिकला, नाट्यकला असल्या मळांचेर तर भारतीय परंपरे परसूय मुखार गेल्ली. विचारांच्या मळार पायथागोरस, हॅराक्लिटस, डॅमॉक्रिटस, सॉक्रटिस, प्लेटो, ऍरिस्टोटल सारकेले व्हडले व्हडले विचारवंत तिणें निर्माण केल्ले. मिलिन्दाक आपणाल्या ह्या गिरेस्त दायजाचो अभिमान दिसलो जाल्यार अजाप न्हय.

ताका वस्ताद नागसेन नांवाचो एक बौद्ध मेळ्ळो.

नागसेन मिलिन्दाच्याच राज्यांत, पंजाबांत, एका ब्राह्मण जल्माक आयिल्लो. चारूय वेद शिकिल्लो. उपरांत बौद्ध पंडित रोह रोहणाकडल्यान अश्वगुप्ताकडेन, अश्वगुप्ता कडल्यान धर्मरक्षिताक बुद्धमत्त शिकून त्रिपिटकाचो एक व्हड जाणकार जाल्लो. ता विचारांचोय खोल अभ्यास केल्लो. ताका एक दीस कांय पंडितां 'जाणा तूं नागसेना, आमचो हो मिलिन्द राजा व्हडल्या व्हडल्या बुद वाद घालून तांकां नाकापुरो करून सोडटा. पयर, आयुपाला पंडिताक लेगीत ताणें वादांत हरयला. ताचो मद तूं जिरयशीत व्हय

नागसेन तडक उठून स्यालकोटाक गेलो. तो आयिल्ल्या मिलिन्दाच्या कानार पडनाफुडें मिलिन्द ताका मेळपाक गेलो. आनी न ताणें प्रस्नार प्रस्न विचारले आनी नागसेनाच्यो जापो आयकून पडलो.

नागसेन आनी मिलिन्द हांचो वाद 'मिलिन्द पन्ह' (= मिलिन नांवाच्या एका पुस्तकांत आयला. जाणकार ह्या पुस्तकाक बौद्ध बरप एक तोलामोलाचें पुस्तक मानतात. गद्य बरपावळिची एक बऱ्यांत पत म्हूण्णूय ताची तुस्त-तोखणाय करतात.

नागसेनान मिलिन्दाक सोंपें करून समजावन सांगिल्लें तें सर्वा मत्त आशिल्लें. मगध देशांतूच तें जल्माक आयिल्लें आनी पुष्य काळांत मथुरेक पाविल्लें. मथुरेंत ताची खरी वाड जाल्ली.

मिनान्दर सर्वास्तिवादी बौद्ध जाल्लो.

तो भायर पडला त्यावेळार बुद्धाच्या परिनिर्वाणा उपरांत घडून तशें जिस्त घडून आयलें. ताच्या अस्थिंचो वांटो आपापणाल्या व्हरपाक धाय दिकांतले श्रेष्ठी आयले आनी धाय दिकांनी तांणी तां बांदले.

## लाख मोलाचो राष्ट्रीय वावर

वेदिकांचे वर्णविवस्तेन कांय लोकांक 'सकयल्ले' जातींत घाल्ले 'उणाक' लेखिल्ले. तांचो हे वेवस्तेंत घुसमटमार जातालो. बुद्धम वेवस्ताच भिरकावन मारिल्ली. 'सकयल्या' जातींतल्या कितल्याश्या ताणें हात दिवन वयर काडिल्ले. तांच्यांतल्या कितल्याश्या जाणांनी जोडिल्लें. कांय 'धम्मधर' जाल्ले. कांय 'विनयधर' जाल्ले. हाक सकयल्या जातींतले कितलेशे लोक वेदीक परंपरा सोडून बौद्ध जा

वेदीक परंपरेंत 'श्रेष्ठिंचो'य घुसमटमार चलिल्लो. श्रेष्ठी चडशे वैश्य हो तांचो मुखेल वेवसाय आशिल्लो. तांकां वेपारा खातीर देशा भायर मेकळीक जाय आशिल्ली. वेदीक परंपरा तांकां ही मेकळीक दिना कित्याक, देशा भायर वतकूच मनशाची जात बुड्टा अशें ती मा देशा भायर गेल्ल्यांक ती जाती-भायरूय घालताली. बुद्ध-मत्त जा नाशिल्लें. तें श्रेष्ठींक भायर वचपाची मेकळीक दितालें. हाका लागून बौद्ध जाल्ले.

समाजशास्त्राचे नदरेन बुद्धमत्ताचो हो वावर खूब म्हत्वाचो आ हेच तरेचो दुसरो एक म्हत्वाचो वावर ताणें ह्या नव्या युगांत — जे भौन भौन परकी लोकांच्या शेकातळा गेला तेन्ना — केला.

यवनांचो शेक सुमार देडशें वर्सां चल्लो. मिनान्डराच्या मरणा कांय वर्सांनी शक — सीथियन्स — आयले. तांणी तो सोंपयलो. शेक कांय वर्सां चल्लो. इराणांतल्यान पहलवी आयले आनी तांणी तो स पहलवींचो शेक कांय वर्सां चल्लो तो कुशाणांनी सोंपयलो.

यवन, शक, पहलवी, कुशाण सगळे भायले. विदेशी, पुणून ते रावपा खातीर आयिल्ले. परते वचपाचे नाशिल्ले. येतना ते आपण

परा, चालि-रिती, आपणाल्यो भासो घेवन आयिल्ले. ह्या 'विदेशी' लोकांक
ी करून घेवप हें राष्ट्रीय नदरेन खूब म्हत्वाचें काम आशिल्लें. वेदिकांक
काम जमपासारकें नाशिल्लें. कित्याक, हांकां देशी करून घेतले जाल्यार
यचे जातींत घालचे हो एक प्रस्न तांचे मुखार उबो रावतालो. बौद्धां
ार हो प्रस्न नाशिल्लो. तांणी हांकां सगळ्यांक बौद्ध करून समाजांत
सपावन घेतले. आयज भारतीय समाजांत ते इतले भरसून गेल्यात की
दूंक गेल्यार लेगीत ते मेळनात. सांगल्यार कांय जाणांक अजाप जातलें
आयज देशांत जें विक्रम संवत् चलता तें ह्या विदेशी राजां मजगतचे
कुळयेंतल्या एका राजान सुरू केलां आनी देशान तें भौमानान चलयलां.
शक कुळयेंत पतीक नांवाचो एक राजा जावन गेलो. तो बुद्धधर्म
ुचीस्तान, सेइस्तान सारकेल्या, जंय तो पयलीं पावूंक नाशिल्लो, असल्या
टारांनी घेवन गेलो कीं . चीनांत सगळ्यांत पयलो तोच हो धर्म घेवन
ल्लो, इतलेंच न्हय तर 'अभिधम्मा'च्या कांय वांट्यांचो ताणें चीनी भाशेंत
णकारूय केल्लो अशी एक आख्यायिका आसा.

## कनिष्क

ा विदेशी लोकां मजगतचे कुशाण कुळयेंत कनिष्क नांवाचो एक राजा
ावन गेलो. अशोका उपरांतचें सगळ्यांत व्हडलें साम्राज्य ताचें आशिल्लें.
तूंत उत्तर आनी अस्तम भारता भायर काम्बोज, गांधार, काबूल, खोतान,
रकंद असले भारता भायलेय कांय वाटार आसपावताले. पुष्पपुर (पेशावर)
चें राजपाटण आशिल्लें. तो अयोध्येक गेल्लो थंय ताणें अश्वघोष नांवाचो
क व्हड बौद्ध आचार्य पळेलो. ताचे विद्वत्तेन आनी व्यक्तित्वान तो खूब
भावीत जालो. 'तुजी सुवात हांगा न्हय, म्हजे वांगडा यो पुष्पपुराक' अशें
ूणून तो ताका पेशावराक घेवन आयलो. ताचे कडल्यान ताणें दीक्षा घेतली
ानी तो बौद्ध जालो. अश्वघोष सर्वास्तिवादी आशिल्लो. सर्वास्तिवाद ते
रेन मथुरेक आशिल्लो. कनिष्काक लागून तो पेशावराक पावलो. थंयच्यान
निष्कान ताका मध्य आशियेंत खूब कडेन व्हरून पावयलो. ताणें कितलेशेच
वे स्तूप आनी नवे विहार बांदले. (आपणें १७० विहार पळेल्ले अशें
ुआनत्सांगान बरोवन दवरलां). चडशे सगळे राजमार्गार बांदले. सैमाचे
चवेचार फाटभुंयेर बांदिल्ल्यान ते राजमार्गावयल्यान येतल्या-वेतल्या
पाऱ्यांची नदर ओडून घेवपाक लागले. कनिष्काचेच मुस्तींत भारताचो रोम
ानी चीन हांचेकडेन वेपार सुरू जाल्लो. मध्य आशियेंत बुद्धधर्म पातळपाक
ा वेपाऱ्यांचो खूब हातभार लागला.

कनिष्काच्याच काळांत बौद्धांची चौथी संगीती भरल्या. काश्मिरांतल्या
ुंडलवनांत भरिल्ले हे संगीतीचो वसुमित्र अध्यक्ष आशिल्लो. वसुमित्र हो
या काळांतलो एक व्हड बौद्ध आचार्य आशिल्लो. अश्वघोष उपाध्यक्ष जाला.
ेन्ना देशांतले पांचशीं जाणकार जमिल्ले. स म्हयने एका सारके वावरून
ाणी बुद्धमत्ताची एक अर्थावणी बरोवन काडली. एका एका पिटकाचे एक
क लाख श्लोकांचे (तीन पिटकांचे मेळून तीन लाख श्लोकांचे) हे अर्थावणेक
महाविभाषा' हें नांव पडलां. कनिष्कान ही अर्थावणी तांब्या पट्ट्यांचेर कोंरातून
ेतली. पाशाणाच्यो कांय पेटयो करून तातूंत ती भरली आनी थंयच एक
हडलो चारशीं फूट उंचायेचो स्तूप बांदून तातूंत ती पुरून दवरली, अशें
ौद्ध बरपावळींत बरयल्लें मेळटा. पुणून पोरणावळशास्त्राचे कुदळीक तो
तुपूय मेळूंक ना, ती अर्थावणीय मेळूंक ना. अर्थावणेचीं कांय तिबेटी आनी
ीनी भाशांतरां मेळ्ळ्यांत. हीं भाशांतरां तांणी संस्कृत भाशेंतल्यान केल्यांत.
ाचे वयल्यान अर्थावणी संस्कृत भाशेंत आशिल्ली अशें म्हणचें पडटा.

अर्थावणी करपी सर्वास्तिवादी आशिल्ले. म्हूण सर्वास्तिवाद्यांक उपरांत
वैभाशीक' म्हूण एक नवें नांव मेळ्ळें.

'चरक संहिते'चो चरक कनिष्काच्या काळांतलो. तो ताचो राजवैद्य
ाशिल्लो.

## महायान पंथ

कुशाण काळांतूच बौद्धांचो महायान पंथ नांवारुपाक आयला.

दुसरे संगीती वेळार बौद्धांचे दोन संघ जाल्ले. एक महासांघिकांचो. दुसरो स्थवीरवाद्यांचो. हांतलो महासांघिकांचो पंगड सुधारकांचो आशिल्लो, विचार स्वातंत्र्याक मानपी आशिल्लो. कांय काळान तो फुटलो आनी ताच्यांतल्यान एक व्यावहारीक, लोकोत्तरवादी आनी कौकुटीक नांवाचे तीन नवे पंथ सुरू जाले. तिनांचेय तीन नवे संघ चलपाक लागले. कांय काळान बहुश्रुतीय नांवाचो आनीक एक पंथ तांच्यांतल्यान फुटून भायर सरलो. म्हणटासर प्रज्ञाप्तवादी नांवाचो आनीक एक फुटलो. निमाणें चैतीक, अपरशैल आनी उत्तरशैल नांवाचे आनीक तीन पंथ फुटून भायर सरले.

महासांघिकांतल्यान आठ पंथ फुटून भायर आयले.

स्थवीरवादी आपणाल्या मूळ संघाक घट धरून रावताले अशें दिशिल्लें. पुणून, ना. तेवूय फुटले. तांच्यांतल्यान सर्वास्तिवादी, वत्सीपुत्रीय, धर्मोत्तरीय, भद्रयानीय, समन्तीय, सण्णनगरीक, महिषासक, धर्मगुप्तीय, काश्यपीय आनी सौतांत्रीक नांवाचे धा पंथ फुटून भायर आयले.

पयल्यांतले आठ आनी दुसऱ्यांतले धा मेळून बुद्धाच्या नांवान अठरा पंथ देशांत चलपाक लागिल्ले. अशोक जल्माक येवचे पयलीं सावन ते चलत आयिल्ले. सगळ्यांक एकठांय हाडपाचो अशोकान यत्न केल्लो खरो. पुणून हातूंत ताका हार खावची पडिल्ली. कित्याक, ह्या अठराय पंथांक श्रेष्ठिंचो तसो उपासक-उपासिकांचो आधार मेळत राविल्लो. श्रेष्ठींक आनी उपासक-उपासिकांक कोण खरो, कोण फट हें समजनाशिल्लें. ते तांकां विहार आनी स्तूप बांदून दिवपाक लागिल्ले आनी तांकां जेवणा खाणाची चिंता जावची न्हय हाची तजविजूय करपाक लागिल्ले.

हाका लागून सगळे वेगळे वेगळे दिकेन चलत रावले. एकामेकां पसून पयस राविल्ल्यान तांचे मजगतीं विचार-आचारांचींय अंतरां पडत गेलीं. सभावाचीं अंतरां तर पयलीं सावन आशिल्लीं.

बुद्धाची भास मागधी आशिल्ली. तो मागधी भाशेंतूच उपदेस करतालो. मगधच्या राजकी प्रभावाक लागून मागधी दिल्ली सावन पटण्या मेरेनच्या आनी श्रावस्ती सावन अवन्ती मेरेनच्या लोकांक समजताली. तिका लोक पाली ह्या नांवानूय वळखताले. ती लोकांची भास आशिल्ली. बुद्ध सदां म्हणटालो, 'धर्म सगळेकडेन पावोवचो आसत जाल्यार तो शिकिल्ल्यां लोकां भितर बंदिस्त उरूंक जायना. सगळ्यांनी लोकांचे जिबेर घोळटा ते भाशेंतल्यानूच उपदेस करूंक जाय.' एक खेपे तागेल्या कांय बरें-मागत्यांनी ताका म्हळें, 'तुगेले हे शिष्य आपापणाले भाशेंतल्यान उपदेस करतात (सकाय निरुत्तिया). हाका लागून अर्थांत केन्ना केन्ना फरक पडटा. तांकां सगळ्यांक 'छंदस्' (संस्कृत) भाशेंतल्यान उपदेस करात म्हूण सांग.' बुद्धान तांचें तोंड सारकें नियाळून जाप दिली, 'अनुजानामि भिक्खवे सकाय निरुत्तिया बुद्धवचनं परियापुणितुं' – हांवें सगळ्यांक बुद्ध वचन आपापणाले भाशेंतल्यानूच लोकां मुखार दवरचें, अशी 'आज्ञा' केल्या. पुष्यमित्र शुंगाचे पिडापिडेक उबगून जे मथुरेक वचून राविल्ले त्या सर्वास्तिवाद्यांनीच सगळ्यांत पयलो हो नेम मोडलो. तांणी आपणालें त्रिपिटक संस्कृत भाशेंत घालें. तांचे देखीन महासांघिकांनीय लोकभास सोडून संस्कृत भास घेतली. इतलोच फरक आशिल्लो – तांगेली ही संस्कृत पाणिनीन थीर केल्ली संस्कृत नाशिल्ली. प्राकृत आनी संस्कृत हांचे भरसणेन तयार केल्ली 'गाथा संस्कृत' आशिल्ली. पालीक घट दसून रावले ते फकत मुदलांतले स्थवीरवादी. बाकिच्यांनी आपणाली भास बदल्ली.

बुद्ध परंपरेंत घडून आयिल्लो हो सगळ्यांत पयलो आनी मुळावो बदल आशिल्लो.

दुसरो बदल घडून आयलो तो उद्देशांत. कांय जाणकार म्हणटात, उपदेस पाली भाशेंतूच उरिल्लो जाल्यार तातूंत बदल घडचो नाशिल्लो. तो संस्कृत

भाशेंत केल्ल्यान बदल घडून आयलो.

बौद्ध साधनेचो उद्देश कितें आशिल्लो? शील, समाधी, प्रज्ञा जोडून अर्हत जावप हो. बुद्धान होच आदर्श लोकांमुखार दवरिल्लो. तो म्हणटालो, संवसारांत दोन तरांचे लोक आसात. एक, घरसंवसारांत घुसपून पडिल्ले 'पृथक्जन' आनी दुसरे, घरसंवसाराच्या बांदपासांतल्यान आपणाक सोडोवन अर्हतपद जोडपाचे वाटेन चलपाक लागिल्ले 'आर्यजन'. आर्यजन हे वाटे वयल्यान चलपाक लागतले, इतलेंच न्हय, तर हे वाटेक एक व्हांवती कशी धरून हे व्हांवतेंत ते घालून घेतले (स्त्रोत आपन्न जातले). घालून घेतले कशे? फकत कुडीन न्हय. चित्तान. पुणून चित्ताचो सभाव दोनूय दिकांनी व्हांवपाचो. तें पातकांचेय दिकेन व्हांवक जाणा, तशें कल्याणाचे दिकेनूय व्हांवक जाणा. ताका पातकांचे दिकेंतल्यान ओडून हाडून कल्याणाचे दिकेन व्हांवतें करूंक जाय. (तें सकदागामी जावंक जाय) मागीर तें फाटीं सरपाचें ना. तें कल्याणाचेच दिकेन एका सारकें मुखार वचत रावतलें. हे वाटेन साधक मुखार गेलो म्हणटकूच तो 'अनागामी' जाता. ताका भौन भौन जल्म घेवचो पडना. भवचक्रांतल्यान ताची सुटका जाता. तो अर्हत जाता.

पुणून कांय काळान कांय साधकांक अर्हतपदाक आमी जें म्हत्व दीत आयल्यात तें खरेपणानर्शी ताका फावना अशें दिसपाक लागलें. ते म्हणपाक लागले, अर्हतपद जोडिल्ल्यां भितर सुंदर बायल-मनशेच्या जाळांत घुसपल्ले कांय जाण आमी पळेल्यात. अर्हतपद जोडुनूय कांय जाण अन्नाडी उरिल्ले पळोवंक मेळ्ळ्यात. अर्हत जाल्ले आसुनूय कांय जाणांचे तकलेंत दुबाव भरिल्ले दिसून आयल्यात. अर्हतपदाचें एक मोट्टें दुबळें आंग म्हळ्यार, अर्हतपद जोडपाक साधकाक गुरूचेर निंबून रावचें पडटा. अर्हता परस वयल्या पांवड्याचो 'प्रत्येक बुद्ध'. तो कोणाचेरूच निंबून रावी नासतना आपणाल्याच उजवाडान, आपणालेच प्रतिभेन वयर सरता. 'सम्यक् संबुद्ध' जावंक नाका पावूं. पुणून सम्यक् संबुद्धा लागसार तो खातरीन पाविल्लो आसता. पुणून, तो फकत आपणालेंच दुख्ख ना करूंक पावता. दुसऱ्यांचें दुख्ख ना करपाची ताच्यांत तांक नासता. म्हूण, जसो अर्हत उपकारा पडना तसो 'प्रत्येक बुद्धू'य उपकारना. 'प्रत्येक बुद्धा'परस वयलो पांवडो जोडूंक जाय. तोच साधनेचो उद्देश आसूंक जाय.

हांणी दोनूय उद्देश कडेक काडून दवरले आनी तिसरोच एक उद्देश साधकां मुखार दवरलो – बोधिसत्त्व जावपाचो.

बोधिसत्त्व म्हळ्यार असो एक साधक की जो म्हणटा, म्हजे भोंवतणी लाखांनी कोटिंनी जीव दुख्खांत बुडिल्ले आसतना हांवें म्हजेच विमुक्तींत धादोशी रावप म्हाका सोबता व्हय? जे मेरेन किडी-मुयां पसून हती गेंड्यां मेरेनचे जीव दुख्खांतल्यान सुटनात ते मेरेन हांव म्हजे विमुक्तींत गुल्ल रावचों ना. सगळे दुख्ख-मुक्त जायसर हांव सस्थूय बसचों ना. परत्या उपकाराची कसलीच आस्त धरी नासतना हांव सगळ्यांच्या बऱ्या पसत वावरत रावतलों.

स्थवीरवाद्यांची शिकवण प्रज्ञेचे दोळे उकते करपी आशिल्ली. मनशाक महाप्राज्ञ करपी आशिल्ली. हे नवे लोक म्हणपाक लागले, निखटे प्रज्ञेचे दोळे उकते जाले म्हूण भागना, काळजांत करुणेचो वझरोय फुटूंक जाय. साधकान फकत महाप्राज्ञ न्हय, महाकारुणीकूय जावंक जाय.

## नवो, देव जाल्लो बुद्ध

साधनेचो उद्देश बदल्ले उपरांत बुद्धाचें रूप बदलपाक कितलोसो काळाव लागतलो आशिल्लो? महासांघिकां भितरलो एक पंथ म्हणपाक लागलो, बुद्ध चार चौगां सारको मनीस नाशिल्लो. तो सामान्यां भायलो, आगळो वेगळो आशिल्लो. लोकोत्तर आशिल्लो. लोकोत्तर ताका ताच्याच काळांतले लोक मानताले. ताचें घर सोडून वचप, खर तपस्या करप, माराकडेन झुजप, 'बुद्ध' जावप, सगळें सामान्या भायलें आशिल्लें. एक खेपे द्रोण नांवाच्या एका ब्राह्मणान ताचें धीरगंभीर व्यक्तित्व आनी चलतना जमनीर उ… ताच्या पावलांचीं चक्रां पळोवन 'तूं कोण, देव बीव?' असो ताका… केल्लो आनी 'न्हय रे बाबा, हांव देव न्हय, यक्ष न्हय, गंधर्व न्हय, … न्हय, हांव तथागत; साळीक जशें चिखलांत जल्माक येवनूय चिखल… अलिप्त आसता तसो हांव ह्या संवसारांत जल्माक येवनूय संवसार… अलिप्त जालां' अशी ताणें जाप दिल्ली. पुणून सगळ्यां परस आगळो… आसुनूय कोणेंच ताका जरा-व्याधी-मरणा पसून मुक्त मानूंक ना… हाडां मासाचे आमी सगळे जल्माक येतात तसोच तो जल्माक आ… साधना करुनूच सम्यक् संबुद्ध जाल्लो, ह्याच संवसारांत भोंवन तो … उपदेस करतालो, अशेंच सगळे मानताले. तो 'सेवियरूय' (सोडवण… नाशिल्लो तसो पैगंबरूय (प्रॉफेटूय) नाशिल्लो. तो 'शास्तो' आ… फकत वाट दाखोवपी आशिल्लो. 'तुमीच तुमचे दिवे जायात. ह्याच दि… उजवाडान वाट चलत रावात. कोणाचेर निंबून रावूं नाकात. जण एक… आपणाल्या यत्नान निर्वाण जोडूंक जाय... हांव तुमकां इतलेंच स… आठ आंगी मार्गा वयल्यान चलशात जाल्यार तुमीच तुमच्या यत्नान … जोडूंक पावतले' असले तरेचो उपदेस करपी आशिल्लो.

लोकोत्तरवादी ताका ह्या अर्थान लोकोत्तर मानी नाशिल्ले. तांगेल… सदांच 'तुषित लोकां'त रावतालो. फाटल्या धा जल्मां सावन धा पार… साधना करून 'हांव आतां बुद्ध जातलों' अशें थारावन तुषित लोकां… आयिल्लो. हेरां भाशेन बापाय पसून आवयच्या पोटांत येवंक नाशि… 'मनोमय कुडी'न तोच तिच्या पोटांत गेल्लो. तुमी जाका पळेला … नाशिल्लो, ताची सावळी आशिल्ली. तो अजन्मा, अव्यय; जाय … वर्सां जियेवपाची संकल्प-शक्ती ताच्यांत आशिल्ली. एकाच वांगडा … कितलींर्शी रुपां घेवंक येतालीं. तो केन्ना न्हिदनाशिल्लो, विसव घेनाशिल… तो सर्वज्ञ आशिल्ल्यान ताका जिवांचीं दुख्खां कळटालीं. महाकार… आशिल्ल्यान तो लोकांक उपदेस करतालो. हरशीं, तो तिनूय त्रिकाळ स… रावतालो, ह्या अर्थान ताका लोकोत्तर मानताले. म्हळ्यार, बुद्ध … नाशिल्लो. देव आशिल्लो. देव ह्या रुपान तो आयजूच आसा अशें … सदां आशिल्लो, सदां आसतलो, अशें हे लोक म्हणपाक लागले.

बुद्धान तत्त्वज्ञानाच्या सगळ्या प्रस्नांक 'अव्याकृत प्रस्न' म्हणून … दवरिल्ले. प्रस्न व्याकृत आसूंक जाय अशें ताचें म्हणणें आशिल्लें. … म्हळ्यार जांची जाप हय वा ना अशी स्पश्ट दिवंक येता असले. … वितर्क करून अदमासान सोदून काडचे पडटात ते अव्याकृत प्रस्न. ते … खंयच घेवन वचनात. साधनेक कित्याक उपकारनात, फकत तर्कवित… आमकां घुसपावन दवरतात, तांच्या नादाक लागूंक जायना, अशें ताणें म… आनी शिष्यांक असल्या प्रस्नां पसून ताणें पयस दवरिल्ले. तो आस… शिष्य पयस रावले. ताचें महापरिनिर्वाण जाले उपरांतूय रावले. पु… उपरांतच्या काळांत जे नवे लोक आयले. तांणी ह्या अव्याकृत प्रस्न… खूब म्हत्व दिलें. तत्त्वज्ञानांत ते खूब खोलायेंत देंवले. आनी तरांत… मत्तां घेवन आयले. अंतीं अठरा संप्रदायांतले चार संप्रदाय तत्त्वज्ञान… मळार चड नांवाजते जाल्यात.

एक, वैभाशीक: संवसारूय खरो आनी निर्वाणूय खरो मानपी.

दुसरो, सौत्रांतीक: संवसारूच खरो, निर्वाण मिथ्या अशें मानपी.

तिसरो, योगाचार: संवसार मिथ्या, निर्वाण खरो अशें मानपी.

आनी चौथो, माध्यमिक: संवसारूय मिथ्या आनी निर्वाणूय मिथ्या, … म्हणपी.

ज्या तत्त्वज्ञानाचो बुद्धान तिरस्कार केल्लो त्याच तत्त्वज्ञानान ताचो … सूड घेतिल्लो.

मागीर, त्रिपिटकांत आयल्या ती शिकवण भायर मारपाची? ना. त्रिपिट… आयल्या ती शिकवण बुद्धाची न्हय, आनन्दाची ती. वेव्हारीक सत्यां समज…

…पी शिकवण ती. नितिची. सरसमान पांवड्या वयल्या लोकांक उपकारा …ा सारकी. बुद्ध सामान्य निततत्त्वां सांगून ओगी रावंक नाशिल्लो. … परमार्थ तत्त्वांय कांय वेंचीक शिष्यांक सांगिल्लीं. तांकां अध्यात्म …यल्लो. 'आमी त्रिपिटकांतली शिकवण सोडून दिवंक ना. तुमचे भाशेन …ी फकत तिकाच दसून रावूंक नात. आमी ती मुखार घेवन गेल्यात. …ो विकास घडोवन हाडला.' अशी जाप ते दिवपाक लागले.

…हातुंतल्यान ल्हवू ल्हवू तीन यानां चलपाक लागलीं. पयलें, 'श्रावकयान'. …्या आधारान अर्हतपद जोडूंक वावुरतल्यांचें. दुसरें, 'प्रत्येक-बुद्धयान'. …ेर निंबून रावी नासतना जांणी अंत:स्फुर्तीन सगळीं सत्यां समजून …ल्यांत तांचें. आनी तिसरें, बुद्धयान. जे अर्हतपद जोडपाक आंवडेतात, …ल्यांच्या बऱ्या खातीर करुणेन भरिल्ल्या काळजान वावुरतात त्या …सत्वांचें.

सुरवातेक सगळेच ह्या तिनूय यानांक सारकीं लेखताले. जण एकल्यान …पणाली तांक, शीम आनी रूच पळोवन खंयचेंय एक घेवन मुखार …चें अशें मानताले. वयले वयल्यान पळेल्यार सगळे सारकेच दिसताले. …ळे तकली तासून घेताले, सगळे एकेच तरेचीं चिवरां पांगरून भोंवताले, …ळे भिक्षेचेर जियेताले. पुणून कुशाणकाळ येतासर तिनां मजगतचें बुद्धयान … खरें यान, पयल्या दोनांक म्हत्व ना असो एक आवाज वयर सरलो. पयलीं दोन यानां मानतल्यांक ते 'हीनयानी' म्हणपाक लागले. हीन म्हळ्यार, उणाक, सकयल्या पांवड्याचे. किरकोळ बुद्धिचे. फकत त्रिपिटकाक दसून राविल्ले. आनी आपणाक ते 'महायानी' म्हणोवन घेवपाक लागले.

महायानी पंथाचें खेरीत अशें त्रिपिटक ना. पुणून तांचे णव ग्रंथ आसात – जांकां 'वैपूल्यसुत्रां' म्हणटात – १, अष्टसाहस्त्रिका प्रज्ञापारमिता. २, सद्धर्मपुंडरीक. ३, ललितविस्तर. ४, लंकावतार. ५, सुवर्णप्रभास. ६, गण्डव्यूह. ७, तथागतगुह्यक. ८, समाधिराज आनी ९, दशभूमीक. जंय जंय महायान पंथ पावला – आनी तो सिक्कीम, भूतान, नेपाळ हांचे भायर, तिबेट, चीन, कोरिया, जपान मेरेन पावला – थंय थंयचे भाशेंत ह्या ग्रंथांचे अणकार जाल्ले पळोवंक मेळटात. इतलेंच न्हय, तर तांचेर व्हडल्या व्हडल्यांनी बरयल्लीं भाष्यांय पळोवंक मेळटात. महायानी लोक ह्या ग्रंथांक खूब पवित्र मानीत आयल्यात.

ह्या ग्रंथां भाशेन महायानी पंथान नागार्जुन, आर्यदेव, असंग, वसुबंधु, दिङ्नाग, धर्मकीर्ती, शान्तिदेव, शान्तरक्षीत हांचे सारके खंयच्याय देशाक अभिमान दिसपा सारके तोलामोलाचे विद्वानूय निर्माण केल्यात. बुद्धमत्ताक ते ताच्या मूळ रुपा पसून खूब पयस घेवन वचूं, भारतीय तत्त्वज्ञानाच्या मळावयलें तांचें योगदान ल्हानासमानांतलें म्हणूंक येना. आयचो हिन्दुधर्म घडोवपांत तांचें खुब्ब खुब्ब हातबोट लागलां.

* * *

---

❑ साहित्याक आधार दिवपाचें काम ह्या देशांत राजा-म्हाराजांनी केलां. ना अशें न्हय.

पुणून साहित्यकार ह्या आधाराचेर केन्ना निंबून रावले नात. आनी असल्या आधाराक तांणी केन्ना म्हत्वूय दिलें ना.

तेलुगू भाशेंत पोतना नांवाचो एक भक्तकवी जावन गेलो. ताणें तेलुगू भाशेंत भागवत कथा बरयली. आयज लेगीत आंध्र प्रदेशांतले लोक ती वाचतात.

एक दीस एका इश्टान ताका म्हळें, ही भागवत कथा तूं आमच्या राजाक ओंप. दोन कामां जातलीं – पुस्तकाचो प्रचारूय खूब जातलो आनी तुजे पोटा-पाणयाचे हुस्केय ना जातले.

पोतनान कितें जाप दिवची?

ताणें म्हळें, 'भावा रे, भागवत कथा बरयल्या हांवें. भगवंताची लीला सांगल्या हांवें लोकांक, हे कथेच्या रुपान. ती एका मनशाक ओंपूं हांव? तिवूय जाची सत्या चलता ह्या देशाचेर ताका? कित्याक? पोटा-पाणयाचे म्हजे हुसके ना जावचे हे आशेन? शी... म्हजे हुसके 'तो' पयस करतलो. 'ताका' जाय जाल्यार. ताका सोडून हांवें ही कथा राजाक ओंपली जाल्यार सरस्वतीक पच्छाताप जातलो – कसल्या मनशाचे जिबेर आपूण येवन बसली काय म्हूण... आनी ती म्हजेर रागार जातली. ना, म्हजी ही भागवत कथा 'ताका' मानूंक जाय आनी ताच्या रुपान तेलुगू भास उलोवपी हो जो लोक पातळ्ळा ताका मानूंक जाय...'

राजमान्यताये परस लोकमान्यतायेक हे कवी आंवडेताले. आंध्र प्रदेशांत राजा म्हाराजा एका फाटल्यान एक कितलेशे आयले आनी गेले. तांचीं नांवां लेगीत उरूंक नात. पुणून पोतनाचें नांव अजून लोकांचे जिबेर घोळटा. अजून ताची भागवत कथा लोक वाचतात.

राजाश्रयाचेर तो निंबून राविल्लो जाल्यार राजां वांगडा ताकाय लोक विसरताले आशिल्ले.

## …ड्डुको

❑ कितलें विचित्र पळे – मनीस आपणाक खूब आयुश्य मेळचें म्हूण आंवडेता. पुणून ते खातीर म्हातारो जावंक जाय म्हळ्यार 'नाका नाका, म्हातारपण नाका' म्हणटा.

❑ ज्या दुख्खांक लागून मनीस काल रडिल्लो तांची खबर तो आयज सांगूंक बसता तेन्ना कितलें सूख भोगता!

❑ विचार करपाच्या त्रासांतल्यान आपणाक वाटावपा खातीर मनीस कित्याचो आसरो घेत, सांगूंक येना.

❑ पोरणो विचार सोडचो पडटा तेन्ना कोणेंय कात सोलून काडची येदें दुख्ख ताका जाता.

❑ आपूण जाणटो जालां म्हणपाचें मनशाक कळना. दुसऱ्यांक तें स्पश्ट बरें दिश्टी पडटा.

# गर्भभोंवरी

## राजश्री महाबळेश्वर सैल

अशी हांव
   आदिमाता
जल्मा जल्मांतराची.
कुसव्याचे गर्भकणयेंत
एक नवो जीव आंकरेता
अशें चैतन्य सळसळटा
एक नवी रसणाय कोमरेता
म्हज्या आंगा आंगाक
एक एक पालवी
असो जुळटा म्हजो देह
खंयच्या वळख देख नाशिल्ल्या
पूर्व पुर्वांतराकडेन
भुताकडेन भविश्याकडेन
अशी मळब दिठी
तन्न दुधी मिठी
म्हजी कूड
कोणाचें वीर्य घोळयता
कोणाचो जीवनरस केळयता
कुसव्यांत नवो जीव
पुजयता
आनी मनयता सुवाळो
आतां जल्मांतराचो
दिव्य वात ती
जीवन ज्योत ती
धतरेच्या नात्या गोत्यांत घुस्पल्ली
असो वाडटा निरंतर
घुंवघुंवता एक जीवनचक्र
वाडटा कणाकणान भरतेभारान
मायेची रसणाय, रुजवणेची सासणाय
असो कस्तूर परमळ – अप्रूप चंदन दरवळ
कणाकणान फुलता गर्भव्हंटयेंत
   हो अमृत परमळ
   पुनवेचो चंद्र मळब निळयेंत
   अशें नातें म्हजें मातयेचें
   अशें नातें म्हजें कस्तुरीचें
      माती हांव
      कस्तुरी हांव
      मळब हांव
      धर्तरी हांव

तुजी जल्मजल्माची
दिगदिगंतरांतली माय हांव
नातें तुजें म्हजें
नाळयेचो देठ मळब धतरेचो
असो काळोख मेळ
असो भोंवर खेळ
खेळांत मेळ
पुजयता गर्भवज्र कणयेंत
असो तुजो म्हजो
साय मेळ
अशी भोंवर भोंवरी पुंजयता
गर्भभोंवरेन फाल्यांच्या ब्रह्मांडाचो
असो अप्रूप वंशवेळ
   खेळयता.

# रंगपंचम

## शंकर रामाणी

डिसेंबर:
शेरवडाच्या पानांवरी दिसतल्या
देखण्या दिसाची साय कशी
मधूर सानवेळ,
अस्तमतेच्या मुखामळार,
मोनेळींत मुरून, नांव–
गांव विसरलेले वेगवेगळे
रंग
काळजाच्या कोंगऱ्या कवडांतल्यान
अचळय रिगतना कोणयतरी
भितल्ल्यान म्हाका जागयता:
"सभाग्या,
तें अथांग अप्रूप धन
– ती रंगपंचम
फकत एकल्या
व्हीन्सेंट व्हॅन गॉग हाचीच!
तुगेल्या
काळजाच्या काळजांत ती
बेगीन लिपय.
कळ्ळें?"

# पोटलावन घे...

## परेश नरेंद्र कामत

काळजांतल्यान म्हजी अशी
आस दिगंतून
येतना:
तुजे हावेस जळपाचे...

तूं चोय उखलासून
जळजळटे
नदरेन म्हाका
हांव दुकांनी शिंवरतना

एकासारकी धार म्हजी
तूं जायतशी
काळजार झेलय;
जंय फुलांक भार येता...

आनी रुंवारुंवांत किराय
दिखाळ,
इवोंइवोंच पर्मळ;
पांचवीचार उचंबळ

सोंस तुजो भुंयेवरी:
आपलेभितर
वसवसून
आपलेभितर घसघसपी

पोटलावन घे तूं मोनेळून–
मातयेचो
गर्भवास;
म्हज्या मन-मळबाची आस...

# सो कॉल्ड सुटकेझ्झुजाऱ्याक

(नीज सुटकेझ्झुजाऱ्यांची चूक मागून)

राजय रमेश पवार

*तुंवें*
*कुळागरांनी*
*माकडांक धांवडावंक*
*फार पेटयिल्लो*
*(घडये त्या आवाजान*
*माकडांवांगडा*
*तुंवय भियेल्लो!)*

*तुज्या हातांतलें*
*आर्म पळोवन*
*पाखल्यांनी तुका*
*बंदखणींत घालो...*
*... आनी*
*थंयच्यान भायर सरतना*
*तूं जालो*
*सुटकेझ्झुजारी!*

*रातच्या वेळार लायट वतकीच*
*भंयान पुकळी सुटून*
*मेणवात्यो सांसपुपी तूं*
*... तूं आनी सुटकेझ्झुजारी!?*
*केदो व्हडलो विनोद हो!*

*खरें सांग,*
*तूं केन्ना आड्डला*
*''वंदे मातरम्''*
*बोमलेच्या देठांतल्यान?...*
*... घडये आड्डलाय आसत*
*ल्हवूच – दारां जनेलां धांपून!*
*तरीय तुका लेबल लागलां*
*सुटकेझ्झुजाऱ्याचें!*
*हें लेबल सोबना तुका*
*हें तूंवय बेस बरो जाणा.*
*... पूण तुका आवडटा तें.*
*(दर म्हयन्याच्या पेन्शनाखातीर!)*

*तुंवें खरे सुटकेझ्झुजारी पळेल्यात?*
*तुज्याच गांवांतले*
*झिपरो, फटी, बाबुसो...*
*... हांकां पळे.*
*ते बाबडे,*
*अजून काळोख उसपीत उल्ल्यात*
*जिणेंतल्यो वाटो सांसपीत चल्ल्यात*
*तुजेभशेन ते*
*पयशांखातीर धांवले नात*
*नांवाखातीर रावले नात.*

*तांच्या हड्ड्यांत शिजलें*
*दुस्मनांक लासोवपी रसायण!*
*तांच्या स्वासांतल्यान सुटल्यो*
*बंदुकेच्यो गुळयो...*
*सुटकेखातीर झ्झुजामळार*
*ते वाग जावन झ्झुजले,*
*हेरांनी मात तुजे असल्या*
*कोल्यांक हांगा पुजले.*
*आनी हे झ्झुजारी उल्ले*
*जिणेच्या बुराकांक*
*थिगळां जोडीत...*

*झ्झुजाचें नांव आयकून*
*तूं पयस पयस पळटा,*
*मात...*
*पेन्शन वेळार मेळना तेन्ना*
*रगत तुजें सळसळटा.*
*तूं कसलो झ्झुजारी!*
*तूं काळखाचो पुजारी!*
*आरे! पोटभरण्या कोल्या*
*तूं झ्झुजारी न्हय –*
*तूं फकत पेन्शनखायरो*
*(न्हय, शेणखायरो!)*

# कोंकणी मराठी वादांत लक्ष्मणराव

*कोंकणी-मराठी वादांत बाकीबाब बोरकारांक मराठीवाद्यांकडल्यान गाळी फस्ती खावच्यो पडल्यो. बाकीबाब हरशीं मराठीचे एक व्हड कवी. मराठी कड घेवपाचो तांकांच 'अधिकार' आशिल्लो. पुणून तांणी कोंकणीची कड घेतली.*

*लक्ष्मणराव सरदेसाय ह्या वादांत खंयचे वटेन आशिल्ले? २५-५-१९६८च्या 'कोंकणी' पत्राचेर तांचें मत्त आयिल्लें तें हांगा दिलां.*

*बाकीबाब आनी लक्ष्मणराव दोगूय मराठींत बरयत रावले. पुणून मराठीवाद्यांनी केलो तसो कोंकणीचो अवमान तांणी केलो ना. कित्याक, समजून घेतिल्लें बरें.*

— वावुरपी संपादक

## मराठीन भूतकाळ सांबाळ्ळो, कोंकणी भविश्यकाळ सांबाळटली

प्रा. लक्ष्मणराव सरदेसाय

वाद गोंयकारांचे पांचवेक पुजला. तो खंयच्या प्रस्नाचेर करचो हें मात ताका कळना. सालांझार जाय काय नाका, हो विशय सरसमान गोंयकाराक वादाचो दिसलो ना. पुण कोंकणी भास हो विशय वादाचो जावन बसलो. इतलेंच न्हय तर ह्या वादाचेर रणां माजल्यांत. ह्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या दसकांत असोच एक वाद गोंयकारांनी उपस्थित केल्लो. ताका तांणी एकी-बेकी हें नांव दिल्लें. दर एकल्या घरांत भावा-भावांत, बापूय-पुतांत कलह पेटिल्लो. मनां वेगळीं जाल्लीं आनी जेवपाच्यो पंगती वेगळ्यो जाल्ल्यो. तोच प्रकार आतां गोंयांत घडूंक लागला. जिणेचीं तळावीं मोलां (values) खोंटायता आसतना, गोंयकार हिंदूंक दुख जालें ना. कोंकणीच्या प्रस्नान मात तो आयज दुखेस्त जाल्लो दिसता. कालच म्हाका असल्या एका गोंयकारान विचारलें, 'तूं मराठीवादी वो कोंकणीवादी?' हांवें म्हळें, 'हांव द्वैत-वादी'. म्हाका मराठी जाय आनी कोंकणीय जाय. मराठी म्हजी मावशी, तर कोंकणी म्हजी आवय. मराठीन कांय काळ हिंदूंचें पालन-पोषण केलें. देखून तिचे विशीं आमी कृतघ्न जावंक जायना. पुण कोंकणी ही आमची आवय आसा. तिची फाटल्या काळांत दुर्दशा जाली. तिका आतां आमी घटमूट करूंक जाय आनी तिचेपासून शक्त आनी स्फूर्त घेवंक जाय, हें आमी केन्नाच विसरूंक फावना. **मराठीन भूतकाळ सांबाळ्ळो, कोंकणी भविश्यकाळ सांबाळटली.** कोंकणी ही बोली काय भास हो मुद्दो म्हत्वाचो न्हय, **कोंकणी म्हळ्यार मराठी न्हय हें पयलें सत्.**

कोंकणी हें नांवूच तिजें वेगळेंपण दाखयता. **गोंयची सयळी प्रजा कोंकणी उलयता,** हें दुसरें व्हडलें सत्. तिसरें सत् अशें की **नवे पिळगेक तीं आपली साहित्यीक भास जावंची, तिज्यांतल्यानूच आपणालें शिक्षण जावंचें आनी आपणालो विकास जावंचो अशें दिसता.** चौथें सत् **कोंकणीच्या आंगांत येदें सामर्थ्य आसा कि केद्याय मोट्या ललित लेखकाक आपलें व्यक्तिमत्व परगटावपाक ती उणी पडना.** तिचें भवितव्य लेखकांचे इत्सेर आनी बहुजन समाजाचे गरजेर अवलंबून आसा, पंडितांच्या निवाड्याचेर न्हय. कोंकणी ही भास न्हय, ती मराठीची बोली अशें खिणभर मानलें तरी कोंकणी लोकांची निर्मण-शक्त (creative power) सामाजिक आनी इतिहासीक परंपरा आनी पुरूशार्थ, तांची बुद्द, तांचें कर्तुब, तांची कल्पकता (imagination) हे गुण येदे मोटे आसात कि ताच्या आत्म्याचो परीस कोंकणीक लागत जाल्यार थंय भांगराचें पीक येवंक उशीर लागचो ना हातूंत म्हाका दुबाव ना. **कोंकणीचें येस कश्टतल्यांचेर अवलंबून आसा; भासशास्त्र-गिन्यामाचेर न्हय.** कोंकणी सगले गोंयकार ल्हान-व्हड, थोर तोर समजतात, उलयतात हो एकूच मुद्दो येदो मोटो आसा कि ताच्याच बळार कोंकणीच्या भक्तांनी तिची सेवा करपाक फुडें येवंचें. लोकशायेच्या ह्या काळांत लोकांची इत्सा, लोकांचें कल्याण ह्याच प्रस्नाक अदीक मोल आसा. हे नदरेन विचार केलो जाल्यार **कोंकणी हो म्हाका वादाचो प्रस्न दिसना, तो एक Vital Problem दिसता.** मराठीन, संस्कृतायेचे नदरेन गोंयच्या हिंदूंक जिते दवरले, तर कोंकणी ही तांचो आत्मो संपन्न करपाचें आनी ताचें तेज फांकारपाचें एकलें एकसुरें सादन आसा.

* * *

---

- ☐ जीब सुवादीन दवरप हें चारित्र्याचें लक्षण.

  जीब वागा सारकी. तिका बांदून दवरिल्ली बरी.

  जीब तरसादे सारकी. तिका म्यानांत दवरिल्ली बरी.

  जिबेन चुकचे परस पांय चुकिल्लो बरो.

  — अरबी प्रज्ञावाद

# ाशिक म्हणचेंच पडटा' : एक परिक्षणशें

म्हांबरो

म्हंटा'.

म्हणटा? कित्याक म्हणटा?

न तशे म्हत्वाचे. पूण त्यायपरस अदीक म्हत्वाचें म्हळ्यार तो म्हणटा केतें तरी म्हणटा.

कांय जाण काव्य बरयतात. पूण कांय म्हणनात. तांचें काव्य चाळणेंत त, सकयल कांयच पडचें ना (वयरूय कांयच उरचें ना).

ाघरांनी हालीं टीव्हींचे नळ व्हांवतात तशे कोंकणींत काव्याचे नळ ात. जळींमळीं काव्य किल्लता पूण कांय आडवाद सोडल्यार... आसूं. ा काळार कवीक कविता जाताल्यो (वा येताल्यो). 'म्हाका एक ा आयल्या' अशें कवी म्हणटाले. आतां ते त्यो घडयतात – टेस्ट बेबीज् कशो.

कविता सुरबूस आसतात. कांय कविता फकत आसतात.

शीक जें कितें सांगपाचें आसा तें तो काव्यांत सांगना. तो गद्यांत ा तेन्ना तो काशी उरना, आनीक कोणतरी जाता. (आमकां शांबा कराच्या ह्या पुताच्या हेर नांवांकडेन देणेंघेणें ना.)

रा सोळा वर्सांफाटीं तागेलो पयलो संग्रह आयलो : 'काशि म्हंटा.' कोणें कितें म्हळेलें असो उगडास जायना.

वें एकल्याक विचारिल्लें तेन्ना ताणें म्हळेलें, काशी कितें म्हणटा ताचेर कांयच म्हणना.

ड घाल, एक बुदवंत तिरसुवाद कवी पडलो कुशीक.

तां देड दसका उपरांत काशी परथून म्हणटा...

हणचेंच पडटा' म्हूण म्हणटा.

य कवी म्होंवाळ कविता बरयतात. तांच्या काव्यांत 'तन्नी सकाळ', सावल्ली दनपार' कसलीशी 'मोनेळ' बी येता. काशीक असलें म्होंवाळ रचूंक येना. ताणें केन्ना 'गडे नारळ मधाचे' बी बरयलांशें दिसना.

ाद्रो म्होंवाळ कवी न्हंयेचेर काव्य रचता तेन्ना काशी न्हंयेच्या पुलाचेर ा बरयता.

एकेकडेन म्हणटा :

इररायांच्या, बाकीबाबांच्या
ंत आसात न्हंयो –
ी, जुवारी... पुण त्या
वयलो पूल मात ना
इज्या कवितेंत आसा.'

र्दीचेर चडशे कवी बरयनात, एकलेपणाचेर बरयतात. काशी गर्दीचेर ना म्हणटा :

म्हणजे काशिनाथ
म्हणजे शांबा
म्हणजे लोलयेकार
नाथ शांबा लोलयेकार'
ीं ही गर्दी.




'काशिक म्हणचेंच पड्टा' ह्या पुस्तकांत कवितांचेर कविता आसात... जिनसांवार कविता. पतीक :

१. 'कविता : १९८४'
२. 'ॲटमबाँबच्या स्फोटाची कविता'
३. 'शेणलेली कविता'
४. 'अर्दकुटी कविता'
५. 'धार्मिक कविता'
६. 'संवसाराचो अंत जाल्या उपरांत बरयल्ली कविता'
७. 'समग्र कविता'
८. 'हांतरुणावयली कविता'
९. 'झेमेची कविता'
१०. 'झाडार चडलेली कविता'
११. 'कविता छत्तिसाव्या वाडदिसाची'

ह्या संग्रहांत
मो. क. गांधी आसा
शंकर परुळकार आसा
फडके आनी लोलयेकार आसात
तुकाराम आनी काशिनाथ आसात
वासू आसा; पुरु. शिव. रेगे आसा
दिपक राघलो नायक लेगीत आसात
नागडो आसा तो वेगळो
वेताळ आसा तो वेगळो.

काशी हें एक पात्र (विचिपात्र म्हळ्यार जाता), ताचें म्हणणें :

'म्हाका तसो जीवाचो वाजबीज
येयना
कारण सुण्याची शेंपडी हांव
नळयेंत घालीना'

आनी तो केन्नाच केंस उगयना. कित्याक काय म्हळ्यार,

'... फणयेच्या दांतांचो म्हाका
भंय दिसता' तो म्हणटा.

काशीच्यो कवीवयल्यो कविता बऱ्यो आसात. एका कविच्या मर्णाचे मेजून पंदरा खंड ताणें बरयल्यात. हांतलो ७वो खंड म्हाका घोस्ताक गेलो:

'नाका झाळवाय
नाका झाक
हांगा जाल्यां
नेव्हां फ्राक'

'फडके आनी लोलयेकार' हे कवितेंत दुसरो पयल्याक म्हणटा:

'आतां बोकडे मारूंक तुजेकडे उतरां ना
आतां तुज्या बामण पॉलीसीची
मात्रा चलाना
आतां तुका जाय एक आख्खो
भाशेचो बांयटेर'

त्यामानान काशी आनी शंकराले संबंद बरे आसुंये. ताचेर बरयल्ले कवितेची ही सुरवात:

'हांवें शंकर परुळकाराक म्हटलें:
घडपाभितर घडप तेजेभितर गडप
पुण तेजेभितर राजा ना, तेजेभितर ना राणी
फकत काळजार एक खडप
आनी नाकामेरेन पावलेलें पाणी.'

दीपक राघल्याचो रफ स्केचूय सुरबूस जाला:

'चेडवांच्या गजाली भायर आनीक
तेचेकडे उलोवपाक पिराय ना
निकर्तीच थानार येयल्ल्या चेडवांक
किलीस करपाक हो फुडें.'

हेर कवींवरी काशीच्या काव्यांतूय 'हांव' खूब येता. एकाद्रो समीक्षक प्राणी म्हणटलो, काशी पॉब्र फिदाल्ग. तेंच तें परथून परथून म्हणटा.

काशीच्या पुस्तकांत पोजर्डी उतरां भरपूर आसात. तीं वाचतना म्हाका थंडी जाता. शिंको बी येतात. बायलांनी हीं उतरां वाचल्यार तांकां नेवांचें बी जावं येता.

काशीच्या काव्याच्या ह्या तासाचेर ऊंच पांवड्या वेल्यान (दोंगरार बी उबो रावून) बरोवं येता. काशीक चार युक्तिच्यो गजाली बी सांगूं येतात. पूण तशें कितेंय बरयल्यार ताचें दत्ता नायक कॉलम जायत म्हा[illegible] दिसता.

देखून, वाचप्यांक इतलेंच म्हणटां, एक दीस विस्वण बी जाल्य[illegible] नाकात... ब्र प्रकाशनाचें हें पुस्तक विकतें घेवन मुजरत वाचात.

**काशिक म्हणचेंच पडटा**
**काशिनाथ शांबा लोलयेंकार**
**ब्र प्रकाशन, थिवी, १९९७**
**पानां: ७८, मोल: ५५ रुपय[illegible]**

## पोंच

**खांवटें**
(झेलो)
मधुसूदन जोशी
मंगल प्रकाशन, फोंडें
पानां: १२०
मोल: ६० रुपया.

**अक्षतां**
(कवितां झेलो)
आर. एस्. भास्कर, कोची १९९७
पानां: ४४
मोल: ५० रुपया

**खातखुतल्यो**
(निबंदां झेलो)
पंढरीनाथ सुरसुरे
सुरसुरो प्रकाशन, कुडचडें, १९९७
पानां: १०६
मोल: ३५ रुपया

**श्रीगणेश-पूजा, आरती, अभंग, स्तोत्रां, भक्तिगीतां**
संकलन/संपादन: सुहास दलाल, रामभाऊ जुवारकार
प्रतिभा प्रकाशन, केपें (१९९७)
पानां: ४८
मोल: ९ रुपये

---

- ☐ फुडें लजचें पडत असलें केन्नाच उलोवचें न्हय.
- ☐ उलोवन मागीर पच्छाताप करचे परस ओगी राविल्ल्याचो पच्छाताप बरो.
- ☐ भाल्याच्या घाया परस जिबेचो घाय जीवघेणो.
- ☐ शाणेपणाचे धा वांटे – णव वांटे ओगी रावप आनी एक वांटो खूब थोडें उलोवप.

— अरबी प्रवा[illegible]

Regd. No. GOA 1